जाग प्रकाशनाचें

जाग

म्हयनाळें

* संस्थापक:
रा. सुनंत केळेकार

* संस्थापक संपादपी:
रा. रवीन्द्र केळेकार

* संपादपी:
माधवी सरदेसाय
9421157007
madhavikonkani@gmail.com

* उजवाडावपी:
जयवंत भा. सरदेसाय
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

* छापपी
हिरु नारायण नायक
रुतू ऑफसेट प्रिन्टर्स,
वळवय, फोंडें-गोंय.

| | |
|---|---|
| वर्सुकी पटी | : रु. २००/- |
| विद्यार्थ्यां खातीर (वर्सुकी) | : रु. १५०/- |
| तीन वर्सांची पटी | : रु. ५००/- |
| वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी | : रु. ३००/- |

पटी मनी ऑर्डरीन वा बँकेच्या मडगांव फांट्याचेर काडिल्ल्या ड्राफ्टान धाडची.
ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.

वेव्हाराचो नामो :
जाग म्हयनाळें
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. २०/-

# अनाक आर्गां ओंपतना...

अ. ना. म्हांबरो (अना) गेले तेन्ना कळ्ळें, कितल्याश्या जाणांनी तांकां एकूय खेपे पळोवंक ना; तांगेल्या बरपांची मात तांकां वळख आसा, तांतलीं अवतरणांय पाठ आसात. तशें जाल्यार, अना बरोवपी म्हूण खरेलेच भाग्यवंत; कोंकणी सरस्पतीचे अपुर्बायेचे; ते ना केन्नाच जावपाचे नात अशें दिसलें बगर रावलेंना.

अनाचो विनोद खरेलोच आगळो-वेगळो. तो मनरिजवण करपी विनोद न्हय. ती आगची पारखणी. देखून तो आमकां किटकिटो हाडिना. अचळय आमचे मुखार हारसो धरता. आनी ह्या हारशांतल्यान घडिल्ल्या आमगेल्या रुपाच्या दिश्टाव्यान आमच्या ओंठांर एक मुमुरखेंच हांशें फांकता. 'खऱ्या'ची वळख मेळिल्ल्याची पावती कशें. अना एक नदर, आमकां पुरायेन वळखल्ली. 'आमचीं धोंगांपोंगां, आमचे भितल्ल्यो विसंगत्यो - सगलें सगलें तिका खबर आसा. तशीच, आमचें म्हत्वूय ती जाणा. अनाचीं 'विनोदी' बरपां ह्या धोंगांपोंगांचेर, विसंगत्यांचेर बोट दवरतात. पूण हालींच्या वर्सांनी यादींच्या रुपान तांचे कडल्यान आमकां मेळिल्लीं बरपां वेगळे तरेचीं. तातूंत विनोद भोव थोडो मेळटलो. 'फुडारा खातीर हाची नोंद उरूंक जाय' ही जाणविकाय अदीक दिसतली.

दोन म्हयन्यां फाटीं शीलाबाय कोळंबकारांक डिक्टेट करून तांचेच कडल्यान अनान *जागा* खातीर कांय 'फाटल्यो यादी' धाडिल्ल्यो. शणै गोंयबाबां विशींच्यो (एक दीस फोनार आमी उलयतना हो विशय आयिल्लो). लेख खूब ल्हान जातलो अशें अनाक म्हणिल्लें तेन्ना तांणी सांगिल्लें, ''आनिकूय धाडटां...'' 'यादीं'चो फुडलो वांटो आमचे कडेन पावलो ना. आमचे कडेन आसात त्यो 'यादी' घडये अनाचें निमाणें बरप आसुये. तें आमी हांगा दितात-

*''गिरगांवांतल्या 'सारस्वत समाजां'त शणै गोंयबाबान गोंयकारांचेर व्याख्यानां दिल्लीं. हीं व्याख्यानां तांणी बरोवन हाडून वाचिल्लीं. सभेक खूबशे गोंयकार आनी माल्वणकार हाजीर आशिल्ले. तांतल्या खूब जाणांनी तीं छापूचीं म्हूण शणै गोंयबाबांक सांगलें. एकल्यान तांकां सुचयलें, हीं मराठींत करून छापात, तुमकां चड वाचक मेळटले. शणै गोंयबाबान म्हळें, ''हांचें पुस्तक येतलें जाल्यार तें पयलीं कोंकणींत येवंक जाय.'' व्याख्यानां सोंपतकूच एक दीस एका आयकुप्यान खंय तांकां विचारलें, ''हीं व्याख्यानां छापलीं जाल्यार तीं वाचतलो कोण?'' हाचेर खंय शणै गोंयबाबान जाप दिली, ''तीं जो छापतलो ताका हें खबर आसतलें.''*

*''काशीनाथबाब नायक आनी शणै गोंयबाब हांची ह्या व्याख्यानां वेळारूच वळख जाली. गिरगांवांतूच काशीनाथबाबांचो 'गोमंतक छापखानो' आसलो. शणै गोंयबाबांक प्रकाशक मेळ्ळो. काशीनाथबाब शणै गोंयबाबांले शिश्य कशे जाले. 'दि गोवा हिंदु असोसिएशन' ही संस्था त्याच काळार जल्माक आयिल्ली. तिचे कमिटीचेर शणै गोंयबाब आनी काशीनाथबाब, दोगूय आसले. मिटिंगांक येतना दोगूय बरोबर येताले. तांकां पळोवन खंय बाकीच्यांनी म्हणचें, ''हे पळे आयले जॉन्सन आनी बॉसवॅल!''*

*''असोसिएशनाच्या वांगड्यां भितर मुखार झगडीं सुरू जालीं. शणै गोंयबाब आनी काशीनाथबाब एके वटेन तर डॉ. व्यंकटेश कामत दुसरे वेटेन पडले. डॉ. कामतीन एक फावट म्हाका गजालींनी सांगिल्लें, आपलें आनी वालावलीकारालें पटऽ नासलें, पूण आपणाक तांचे विशीं आदर आसलो; आमचे मदीं तकली वापरून काम करपी ते एकलेच!*

*''शणै गोंयबाब गेले तेन्ना तांच्या मरणाक लोक नासलो. मुंबयच्या कोंकणी लोकांनी तांचेर बहिश्कारूच कसो घाल्लो. डॉ. कामतीक हाचें खूब वायट दिशिल्लें. उपरांत काशीनाथबाब एक दीस धर्मानंद कोसंबींक मेळ्ळे. तांचें सरकार दरबारांत बरें वजन आसलें. तें जाणा जावन काशीनाथबाबान तांकां म्हळें, मुंबयच्या एकाद्र्या रस्त्याक शणै गोंयबाबालें नांव दिवचें. ''हातूंत व्हडपण कसलें. मुंबय हालीं कोणाचींय नांवां रस्त्यांक दितात,'' कोसंबीन म्हळें, पूण निमाणें एकाय रस्त्याक शणै गोंयबाबालें नांव दिलें ना.''*

९ एप्रील शणै गोंयबाबाली पुण्यतीथ. त्याच दिसा अनाय आमकां सोडून गेले. अनाचो आनी जागाचो संबंद सुरवे पसूनचो आनी खूब लागींचो. साहित्यकार म्हूण अना अव्वंर अशें आमी आमकां कितलेंय समजायलें तरी अनाची जाग आतां आसचिना, तांचे फोन येवचे नात हे गजालीचें दुःख आमकां आसाच ...जड काळजान आमी तांकां आर्गां ओंपतात.

- संपादपी

# जाग

वर्स ३९ : आंक ८ : एप्रील, २०१३



भायलें चित्र:
मधुबनी चित्रकला
भितर्ल्ली चित्रां:
पान १५ : सुबोध केरकार
पान २९ : अदिती नायक

# कोंकणीची सुवात कोंकणीकूच मेळूंक जाय

- माधवी सरदेसाय

राज्याचो कारबार, तार्चे प्रशासन खंयचे भाशेंतल्यान चलूंक जाय?

लोकप्रतिनिधी जावंक सोदपी उमेदवार लोकांचीं मतां मागतना जे भाशेंतल्यान भाशणां करता ते भाशेंतल्यान, ही ह्या प्रस्नाची सोंपी सरळ जाप.

आनी, आयज गोंयांत ह्या वाटारांत कोंकणीच घोळटा. 'जिबेर कोंकणी, काळजांत मराठी', 'जिबेर मराठी, काळजांत कोंकणी', 'जिबेर इंग्लीश, काळजांत कोंकणी', 'जिबेर कोंकणी, काळजांत इंग्लीश' आशिल्ले, सगल्या तरांचे उमेदवार लोकां कडेन मतां मागूंक वतना कोंकणीचोच आदार घेतात. मेकळ्या गोंयांत 'जय जय महाराष्ट्र माझा' म्हणत् मराठीची घुडी उबारून जल्मा आयिल्ल्या 'महाराष्ट्रवादी गोमंतक पक्षा'चे उमेदवारूय आयज वेंचणुकेच्या प्रचारांत मराठीक खुंटयाळ्याक लावन कोंकणींतल्यानूच भाशणां करतात.

राममनोहर लोहिया म्हणटाले, समुहाचें व्यक्तित्व ताचे भाशेंत उकतें जाता - भास म्हळ्यार सामुहीक व्यक्तित्वाचें प्रगटीकरण (२८).

आनी, जे भाशेंतल्यान समुहाचें व्यक्तित्व उकतें जाता तेच भाशेंतल्यान ताचे चडांत चड रासवळ वेव्हार चलूंक जाय हेंय एक सादें सरळ गणीत.

पयल्या म्हाझुजा वेळार व्हायसरॉयान दिल्लींत युद्ध परिशद भरयल्ली तातूंत भारतीय जनतेचे एक प्रतिनिधी म्हूण गांधीजींक आपयल्ले. परिशदेंत गांधीजींक उलोवंक सांगलें तेन्ना तांणी आपणाक हिंदुस्तानींत उलोवंक मेळचें म्हूण मागलें आनी ते हिंदुस्तानींत उलयले. त्या काळार प्रशासनाची भास इंग्लीश आशिल्ली. व्हायसरॉयांची तर ती आवयभासूच आशिल्ली, आनी गांधीजींकूय हिंदुस्तानी परस इंग्लीशूच अदीक बरी येताली. तरी, भारतांत भारताच्या प्रस्नाचेर विचार करूंक भरिल्ले परिशदेंत लोकांचो प्रतिनिधी म्हूण उलयतना गांधीजीन हिंदुस्तानीच वेंचून काडिल्ली. व्हायसरॉयान आपयल्ले सभेंत हिंदुस्तानींत उलोवपाची ही पयलीच खेप म्हणपाचें गांधीजींक उपरांत कळिल्लें (पळेयात *सत्याचे प्रयोग,* वांटो ५, प्रकरण २७). तो वेळ मेरेन देशाच्या राष्ट्रीय पांवड्या वयल्या रासवळ जिवितांत इंग्लीशूच चलताली. थंय, मुखेलपणान कॉंग्रेसीचे माचयेर, गांधीजीन हिंदुस्तानीक सुवात जोडून दिल्ली. (कॉंग्रेसीचे आयचे फुडारी हो इतिहास केऽन्ना विसरूनूय गेल्यात आसतले.)

स्वतंत्र भारताचो केंद्रीय पांवड्या वयलो राजकारबार हेच लोकभाशेंतल्यान -हिंदुस्तानींतल्यान - चलचो अशें गांधीजींक दिसतालें.

लोकां खातीर चलपी लोकांचें सरकार लोकांचे भाशेंत चलप ना हें केदें व्हडलें विडंबन!

लोहिया म्हणटाले, फकत अत्याचारी राज्यकर्तेच सरसमान जनतेक समजऽ नाशिल्ले भाशेंतल्यान राजकारबार चलोवंक शकतात (२८). ह्या मळा वयले इंग्लीश भाशेक निखळायले बगर देशांत लोकशायूय मूळ धरूंक पावचिना, समाजवादूय येवचोना; इतलेंच न्हय, आमगेल्या रासवळ वेव्हारांत प्रामाणीकपणाकूय सुवात आसचिना इतलें म्हणपा मेरेन ते पाविल्ले (७).

गोंय विधानसभेच्या अर्थसंकल्पी अधिवेशनांत १८ मार्च २०१३ दिसा मुखेलमंत्री मनोहर

पर्रीकार हांणी अर्थमंत्री ह्या नात्यान २०१३-१४ वर्साचो अर्थसंकल्प (तांतलो कर प्रस्ताव आनी येणावळ बांदावळीचो तीस टक्के भाग सोडून) कोंकणींतल्यान मांडलो. गोंय मेकळिकेच्या फाटल्या पन्नास वर्सांच्या काळांतली आनी कोंकणी राजभास जाले उपरांतच्या गेल्या पंचवीस वर्सांच्या काळांतली ही इतिहासीक घडणूक. ते खातीर मुखेलमंत्र्यांचें आनी राजभास संचालनालयाचें आमी काळजा सावन अभिनंदन करतात.

नव्या सरकारान सुत्रां हातांत घेतले उपरांतच्या पयल्या विधानसभा अधिवेशना सावन सभापती राजेंद्र आर्लेकार विधानसभेचें कामकाज कोंकणींतल्यान समर्थपणान चलयतात. कोंकणीचे नदरेन हेंवूय बी इतिहास घडोवपी पावल. देखून सभापतींचेंय आमी मनस्पुर्वेक अभिनंदन करतात.

अर्थसंकल्प कोंकणींतल्यान मांडलो हे घडणुकेचे तरातरांनी पडसाद उठले. कोंकणीवाद्यांचे अभिनंदनाचे पडसाद. (कोंकणीच्या मळार वावुरतल्यांक आयज वचत ताचे कडल्यान 'कोंकणी-मराठी वाद नाका' ही बुद्द मेळूंक लागल्या; हाका लागून कोंकणीवाद्यांकूच हो बिल्लो लावंक अडचता आसत जाल्यार 'वादी' काडून ते सुवातेर 'मोगी' बसोवन म्हणुया, कोंकणी-मोग्यांचे अभिनंदनाचे पडसाद.) चडशे *सुनापरान्तांत*. जाल्यार, अपेक्षे प्रमाण, मराठी-मोग्यांची अस्वस्थकाय. चडशी मराठी दिसाळ्यांतल्यान - अर्थसंकल्प कोंकणींतल्यान मांडलो ही तोखणाय करपा सारकीच गजाल. पूण गोंयांत सात मराठी दिसाळीं चलतात हें मुखेलमंत्री कशे विसरले? कोंकणी भाशणाचो मराठी अणकारूय ह्या दिसाळ्यांक मेळूंक जाय आसलो. आनी हें सहभाशेच्या तत्वाक धरूनूच जातलें आशिल्लें... एका संपादप्यान रोखडोच शीण काडलो.

अर्थसंकल्प सादर जालो ताच्या दुसऱ्याच दिसा, जे गोंय राज्याचे मुखेलमंत्री आसतना राजभास कायदो जाल्लो ते प्रतापसिंह राणे, आनी कोंकणीच गोंयची राजभास जावची म्हूण चलिल्ल्या आंदोलनांत जांणी वांटो घेतिल्लो ते मॉविन गुदीन्य - दोगूय आमकां कोंकणी उलोवंक येता पूण वाचूंक येना, देखून अर्थसंकल्पाची इंग्लीश प्रतूय बी आमकां दिवची अशें सांगून मेकळे जाले.

हेय घडणुकेचे कांय पडसाद -

हयवय! हिंदीचेंय बी अशेंच. उलयल्ली हिंदी सगल्यांक समजता, बरयल्ली समजना. म्हुण्णूच केंद्र सरकाराच्या दरेका खात्याचो वर्सुकी अहवाल इंग्लीश आनी हिंदी - दोनूय भासांनी छापिल्लो आसता... पुस्तकी हिंदी पुस्तकाच्या लेखकाक आनी तागेल्या भक्तांकूच समजता. तशेंच कोंकणीचें जालां जावंक जाय.

उपरांत, कोंकणीच्या हातांत राजदंड वता हाची नाट मेळिल्ल्यान जावये, सरकारपक्षांतल्या एका 'कोंकणी-मराठी मोगी' आमदाराचो प्रस्न - राजभास कायद्यांत दुरुस्ती करपाचो सरकाराचो विचार आसा काय ना?

ह्या प्रस्नाक 'ना' ही जाप मेळटकच 'मराठी राजभाषा आंदोलन समिती'ची सभा - लोकप्रतिनिधींनी मराठीचो विश्वासघात केला!... कोंकणीक राजाश्रय मेळ्ळो! मराठीचें कितें?... तिवूय बी ''असंख्य गोमंतकीयांची मातृभाषा''! गोंयकारांच्या काळजांत तिका सुवात आसा. लोकाश्रय आशिल्ली भास ही. तिची उवेखणी करून गोंयांतले मराठी जनतेचेर सरकारान अन्याय केला!

इतलेंच न्हय,

'रोमी कोंकणी'चो पुळको -

मराठीचें सोडात, रोमी कोंकणीचें कितें? गोंयांत मराठीचो हुस्को करपाची गरजूय ना. हांगा ती फुलत चंवरत आसा. इतिहासकाळांत मराठीक गोंयांतूच न्हय, महाराष्ट्रांतूय केन्ना राजाश्रय मेळूंक ना. लोकाश्रयाचेरूच ती वाडल्या, फुल्ल्या. गोंयांतल्यान ती ना जालीय जाल्यार तिचो हुस्को करपी महाराष्ट्र आसा... पूण रोमी कोंकणीचें कितें? क्रिस्तांव भाव देवनागरी कोंकणी शिकतात खरे, पूण ती ते सारकी आत्मसात करूंक पावंक नात. तिचे विशीं तांकां मोग, व्हडवीक दिसना. क्रिस्तांवांचेर देवनागरी कोंकणी लादप हो अन्यायूच... देवनागरी कोंकणी आनी रोमी कोंकणी एक न्हय. देवनागरींत बरयतात ती कोंकणी रोमी लिपयेंत बरोवंक येना आनी रोमी लिपयेंतली कोंकणी देवनागरींत बरोवंक येना. [आमचे खातीर हो नवो सोद!] रोमी कोंकणींतली वाक्यरचणूक येवरोपी भासां वरी. वेगळी भास ही. केन्नाय तरी तिका राजभास म्हूण मानून घेवची पडटलीच!

आनी मागीर 'गोमंतकीय मराठी जनते'क मातशी शितळसाण मेळची म्हूण जायत, कांय लोकप्रतिनिधींनी विधानसभेंत मर्दी मर्दी केल्लो 'मराठीचा छिडकावा'! (तेंपूय शिगम्याच्या आनी रामनमीच्या नाटकांचो!)

हें सगलें बारीक पळेल्यार कोण म्हणटलो, कोंकणी-मराठी वाद आतां उरूंक ना? १९३० वर्सा उजवाडा आयिल्लें शणै गोंयबाबांलें *कोंकणी भाशेचें जैत* काडून वाचून पळोवचें. सुमार शंबर वर्सां फाटले मुद्दे आयजूय बी मातश्या नव्या रुपान गोंयच्या भाशीक मळाचेर घोळटना पळोवंक मेळटले. वेगळेपण इतलेंच - कोंकणी मराठीची बोली, तिका अमकें अमकें मेळूंक फावना अशें गोंयांत आयज उकतेपणान कोण म्हणचो ना. दुसऱ्या मार्गांनी, समिक्षकाचो आव हाडून, कोंकणीक 'तिची सुवात' दाखोवन दितलो आनी कोंकणीक मेळ्ळां तेंच मराठीकूय मेळूंक जाय म्हूण सांगून मराठीक हात मुखार काडूंक लायतलो, आनी दोनूय भासांक कांयच मेळूंक दिवचोना.

महाराष्ट्रांत तर आयजूय गोंयची कोंकणी मराठीची 'गोमंतकी बोली' म्हूण शिकयतात. तेंय बी भासविज्ञानाचें शिक्षण घेतिल्ल्या 'तज्ञां'च्या बरेपणान! बी.ए. (मराठी)च्या अभ्यासक्रमांत भासविज्ञानाचो आसपाव जातकच स.गं. मालशे, द.दि.पुंडे आनी अंजली सोमण ह्या तिगां मराठी भासविज्ञानिकांनी *भाषाविज्ञान परिचय* हें पुस्तक तयार केलें (पयली उजवाडावणी : २५ डिसेंबर १९८७; दुसरी उजवाडावणी : पुणें : पद्मगंधा प्रकाशन, २६ जानेवारी २००५. हे उपरांतूय ह्या पुस्तकाच्यो आनीक दोन उजवाडावण्यो आयल्यात खंय.) पुस्तकांत ''मराठीच्या प्रमुख बोली'' म्हूण एक प्रकरण आसा (२००५ : ९५-१३१), स.गं. मालशेंनी तें बरयलां. हातूंत मराठीच्या स मुखेल बोलयांची वळख दिल्या - वऱ्हाडी, नागपुरी, हळबी, अहिराणी, डांगी आनी कोंकणी ('कोकणी'). ही 'कोकणी' खंयची? पुस्तक १९८७तलें. म्हळ्यार, कोंकणीक साहित्य अकादेमीची मान्यताय मेळ्ळे उपरांतचें. १९८७ वर्सा ज्या म्हयन्यांत तें उजवाडा आयिल्लें त्याच म्हयन्यांत व्हड आंदोलना उपरांत कोंकणी गोंयची राजभासूय जाल्ली. इतलेंच न्हय, ह्याच वर्सा जून म्हयन्या सावन

पदव्युत्तर पांवड्याचेर कोंकणी शिकोवपाक गोंय विद्यापीठांत कोंकणी विभागूय स्थापन जाल्लो.

पूण मालशेंनी वळख करून दिल्या 'दक्षिण कोकणी'ची - 'गोमंतकी बोली'ची. (ती 'कशी' करून दिल्या - 'कोणा'चीं मतां उखलून धरल्यांत, 'कोणा'चीं कडसरायल्यांत; 'कोणा'च्या अभ्यासाचे निश्कर्श हिसपांत घेतल्यात, 'कोणा'चे भायरायल्यात, हाचेरूय जायतें कितें बरोवं येता.)

पद्मगंधा प्रकाशनान पुस्तकाची दुसरी उजवाडावणी छापिल्ली तेन्ना कोंकणी आठवे वळेरेंतूय पाविल्ली, आनी आमी कोंकणी-मोगी 'आतां कोंकणी-मराठी वाद खंय उरला?... कोंकणीचें आंदोलनपर्व आतां सोंपलां, विधायकपर्व सुरू जालां' ह्या भावार्थाचेर लवंडून सुशेग घेतालीं.

आयजूय बी मराठीच्या अभ्यासक्रमांत कोंकणी मराठीची 'गोमंतकी बोली' म्हूण शिकोवप हो कोंकणी भाशीक-समाजाचो आनी संविधानाचोय अवमान न्हय व्हय असो प्रस्न २००८ वर्सा पुण्याचे डॅक्कन कॉलेजींत भरिल्ल्या अखील भारतीय भासविज्ञान परिशदेच्या एका सत्रांत विचारिल्लो तेन्ना ताका एका प्राध्यापकान हांसून जाप दिल्ली, "ही लोकशाय! कांय लोकांचें मत तें!"

महाराष्ट्रांतल्या कॉलेजींतले कितलेशे अध्यापक हेंच 'मत' घेवन गोंय विद्यापीठाचे ॲकडॅमिक स्टाफ कॉलेजींत ओरियँटेशन/रिफ्रेशर कोर्स करूंक येतात, आनी ह्या विद्यापीठांत एक कोंकणी विभाग आसा, तातूंत कितलींशीं भुरगीं कोंकणींतल्यान पदव्युत्तर पांवड्या वयलें शिक्षण घेतात, कांय जाणां कोंकणींतल्यान पीएच्डीय करतात म्हूण आयकतकच भुंवयो वयर काडून "असं होय?!" "असं होय?!" म्हणीत आपणाल्या गिन्यानांत नवी भर घालून घेतात.

असल्याच महाराष्ट्री जुनेरांच्यो गोयड्यो पांगुरले बगर आमगेल्याय कांय विद्‌वानांचो दोळो लागना. आनी हांकांच कोंकणीच्या प्रमाणीकरणाचो हुस्को जाता, 'रोमी कोंकणी'ची चिंता जाता.

भाशेचें प्रमाणीकरण केन्ना 'बशिल्ले कडेन' जायना. तशेंच, कुकर लायलो, तीन शिटयो काडल्यो, शीत जालें - हे भाशेनूय तें जायना. ताका 'वेळ' लागता. रासवळ मळार - प्रसार माध्यमांनी, शिक्षणीक मळार, शासन-प्रशासनांत - भास घोळची पडटा.

बरोच वेळ घोळची पडटा. ह्या मळांचेर कोंकणी केन्ना सावन घोळटा, वा म्हणुया, घोळूंक धडपडटा?

गोंय मेकळिके सावन. म्हळ्यार, फाटल्या फकत पन्नास वर्सांच्या काळांत.

आनी हातूंत सरकाराचो - 'राजाश्रया'चो - आदार तिका कितलो जाला?

कोणेंय मुजरत सोद घेवचो.

मराठीक गोंयांत केन्नाच राजश्रय मेळूंक ना, ती फकत लोकाश्रयाचेर वयर सरल्या अशें म्हणटल्यांनी "गोमंतकातील शिक्षण : १९१२ - २०१२" हो पांडुरंग रावजी नाडकर्णी हांगेलो लेख मुजरत वाचचो. १९६३ वर्सा भाऊसाहेब बांदोडकारांच्या फुडारपणा खालचें मेकळ्या गोंयांतलें पयलेंच सरकार सत्तेर आयलें तेन्ना पयल्याच शिक्षणीक वर्सांत गोंयांत सरकारान ८७३ मराठी मुळाव्यो शाळा सुरू केल्यो. हातूंत पोर्तुगेजांच्या काळा वयल्या १७६ पोर्तुगेज-मराठी वा पोर्तुगेज-उर्दू अश्या दोट्टी माध्यमांच्या शाळांचो आसपाव आशिल्लो. (म्हळ्यार, पोर्तुगेज माध्यमाच्यो शाळा सरकारान मराठी माध्यमाच्यो करून उडयल्ल्यो.) ते भायर, पोर्तुगेजां तेंपा वयल्या २७२ खाजगी मराठी शाळांक सरकारी शाळांचो दर्जो दिल्लो (३८२-८३).

हे तरेचो घसघशीत राजाश्रय कोंकणीक केन्ना मेळ्ळा व्हय?

नाडकर्णी सांगतात, "ह्याच वर्सांत कोंकणी माध्यमाच्यो मुळाव्यो शाळा सुरू करपाचो यत्न जालो. पूण ते खातीर पाठ्यक्रम आनी पाठ्यपुस्तकां तयार करपाची यंत्रणा सरकारा कडेन नाशिल्ली. अशे परिस्थितींत कोंकणी मुळाव्यो शाळा सुरू करपाच्या यत्नांक यश आयलें ना" (३८३, अणकारून).

ही गजाल खरी न्हय. (कोंकणी मुळाव्या शिक्षणाच्या ह्या काळाच्या इतिहासाचेर गुरुनाथ केळेकार अदीक बरे उजवाड घालूंक शकतले.)

कोंकणी भाशा मंडळान पयलेचें कोंकणी पाठ्यपुस्तक तयार केल्लें. (गोंय सरकारान तयार करून घेतलां त्या पयलेच्या पुस्तका परस हें पुस्तक कितलेंशें बरें आशिल्लें.) पूण सरकार तें छापून घेवंक वा छापून घेवपाक भाशा मंडळाक पालवं दिवंक तयार नाशिल्लें. "कोंकणी पाठ्यपुस्तकां खंय आसात? तीं पयलीं हाडात मागीर दिवया कोंकणी शाळांक मान्यताय" हें तेन्नाचें सरकारी धोरण आशिल्लें. निमाणें Orient Longman ही संस्था कोंकणी पाठ्यपुस्तकां छापूंक तयार जाली तेन्ना सरकार म्हणूंक लागलें, कोंकणी शिकूंक तयार आशिल्लीं पंदरा भुरगीं पयलीं हाडात, मागीर शाळेक मान्यताय दिवया. आयजूय सरकार हेंच सांगता. मुळाव्या शिक्षणाच्या मळार गोंयांत खरेलो राजाश्रय फकत मराठीक आसा. कोंकणीक ना. कोंकणीक सरकारान कन्नड, उर्दू बंरोबर धडपडपाकूच सोडल्या.

गोंय मेकळिके उपरांत सरकारान गांवा गांवांनी मराठी शाळा उकत्यो केल्ल्यो तेन्ना ह्या शाळांनी लागपी पाठ्यपुस्तकां गोंय सरकारान तयार करूंक नाशिल्लीं. महाराष्ट्रांतलींच पाठ्यपुस्तकां गोंयांत लायिल्लीं. म्हळ्यार, मेकळ्या गोंयांत सरकारी आशिर्वादान महाराष्ट्रांतल्या मराठी पाठ्यपुस्तकांक ८७३ शाळांची बाजारपेठ मेळिल्ली!

आयज सरकारी मराठी मुळाव्या शाळांनी जे पालक आपणाल्या भुरग्यांक धाडटात ते सगले, मराठी माध्यम जाय म्हूण - मराठीक 'लोकाश्रय आसा' म्हूण - धाडटात, काय आनीक कांय पर्याय ना म्हण्णूय धाडटात? हो प्रस्न पडपाचें कारण, मुळाव्या शाळांनी कोंकणी शिकपी भुरग्यांचो आंकडो सगल्यांत चड आसता तो उपरांत इल्लो इल्लो देंवत कित्याक लागून वता? गोंय विद्यापीठाच्या मराठी विभागांत अंदूं बत्तीस भुरगीं परिक्षेक बसल्यांत जाल्यार कोंकणी विभागांत ब्यात्तर भुरगीं बसल्यांत. अशें कशें? शिक्षणाचो मुळावो पांवडो ते पदव्युत्तर पांवडो मेरेन मराठीक मेळपी 'लोकाश्रय' इल्लो इल्लो पातळ कसो जाय वता, आनी कोंकणीक मेळपी 'लोकाश्रय' इल्लो इल्लो वाडत कसो वता?

रवीन्द्रबाबान एक दीस सांगिल्लें -

१९७० वर्सा *जाग* नेमाळें सुरू करप म्हूण थारायलें तेन्ना खंय ते गोंय सरकाराच्या म्हायती आनी प्रसिद्धी खात्यांत गेल्ले, *जागा* खातीर दोनशीं रुपयांची जायरात मागूंक. जायरातीचें अपील पळोवन

खंय त्या खात्यांतलो एकलो महाराष्ट्री अधिकारी खी खी करून हांसलो आनी म्हणूंक लागलो, ''कोंकणी भाशेंत दिवाळी अंक? कोंकणी 'भास' म्हूण कोण सांगता? कोंकणी 'बोली'. बोलयेक आमच्यांनी जायरात दिवं नजऽ!'' रवीन्द्रबाबांक थंयच्यान हात हालयत परतुचें पडिल्लें.

मेकळ्या गोंयांत कोंकणी नेमाळ्यांक सरकारी जायराती केन्ना सावन मेळूंक लागल्यो, आनी कोंकणीक मेळऽ नाशिल्ल्यो तेन्ना खंयच्या भासांतल्या नेमाळ्यांक त्यो मेळटाल्यो - खंयचे भाशेक/खंयच्या भासांक राजाश्रय आशिल्लो हाचोय कोणेंय सोद घेवचो.

खरें पळोवंक गेल्यार, हे कोंकणी भुंयेर कोंकणी भाशेक कसलीच गजाल सोंपेपणान मेळूंक ना. तिका ती झगडून, चळवळ करुनूच मेळोवची पडल्या.

आनी, मुजरत सांगूंक जाय, कोंकणी चळवळ म्हळ्यार कोंकणी आनी मराठी मजगतचें 'बारीक शें केस्तांव' न्हय. भाशीक अस्मितायेचे बुन्यादीर एक नवो, एकवटीत समाज घडोवपाचो हो संकल्प. मराठीक गोंयांत लोकाश्रय आसा म्हूण हालीं परतें परतें आयकूंक/वाचूंक मेळटा तेन्ना विचारीन दिसता, खंय लोकाश्रय आसा? खंयच्या समाजांत लोकाश्रय आसा? हिंदू समाजांतूच मूं? ह्या लोकाश्रया भितर गोंयच्या क्रिस्तांव समाजाक लागीं हाडपाची तांक आसा व्हय तर? आयज विधानसभेंत कांय लोकप्रतिनिधी मदींच मराठींतल्यान उलयतात ('गोस्त काडटात'). भाशीक वेव्हाराचे नदरेन हाका हिंदूं भितल्लें in-group discussionच म्हणचें पडटा. हिंदूंच्या - 'कोंकण्यां'च्या - देवस्पणा कडेन मानान पळोवचें तशेच क्रिस्तांव ह्या मराठीच्या प्रयोगा कडेन पळेतात आसतले.''तुमीय बी कोंकणी भाशीक कोंकणेच'' म्हूण सांगून क्रिस्तांवांक लागीं हाडपाची तांक गोंयांत फकत कोंकणींत आसा.

मराठी, पोर्तुगेज, इंग्लीश ह्यो भासो गोंयच्या पोट-समाजांक वेगळायतात; कोंकणीच तांकां लागीं हाडटा. ही भासूच ह्या समाजाच्या आंतरीक एकचाराचें तत्व हें पारखिल्ल्यानूच कोंकणी-मराठी संघर्शांत काकासाहेब कालेलकर मराठी भाशीक आसुनूय कोंकणी फाटल्यान थीर उबे राविल्ले. 'गोमंतक मराठी साहित्य संमेलना'च्या तिसऱ्या अधिवेशनांत तांणी गोंयकार मराठी लेखकांक सांगिल्लें -

मराठीक चड म्हत्व दिलें आनी कोंकणीक उणी लेखली, तिच्या साहित्याची वाड जावंक दिलिना, सरकार दरबारांत तिका सुवात जोडून दिलिना जाल्यार गोंयचे प्रजेच्या एकचाराचें एकलें एकसुरें आंतरीक तत्व भंगतलें आनी प्रजा विस्कळीत जातली. गोंयांत पोर्तुगेज भाशेचें राज्य वचून थंय लोकभाशेचें राज्य येवंक जाय जाल्यार राजभाशेची सुवात कोंकणीकूच दिवची पडटली. आनी, तशी ती मेळची म्हूण मराठीचो पाखो घेतल्यांनीय कोंकणीच्या आधाराक धांवन वचूंक जाय (''गोमंतकीय सरस्वतीभक्तांस'' १४-१५).

कोंकणीची सेवा करतल्यांकूय काकासाहेब सांगताले -

पुराय कोंकणी समाजांत समाजीक एकचाराची आनी राजकी अस्मितायेची भावना रुजोवपाची आसल्यार सगल्या तरांच्या लोकांक एकठांय हाडूंक पावत असली ''व्यापक, सर्वसमन्वयकारी आनी लवचीक'' कोंकणी भास नांगरून तयार करची पडटली (''तीस वर्षांत कोंकणी विद्यापीठ'' ७६).

फाटल्या शंबर वर्सांच्या काळांत कोंकणी चळवळीच्या मळार हेच तरेची 'सर्वसमन्वयकारी' भास ल्हवू ल्हवू नांवारुपाक येत आसा. कोंकणीचें प्रमाणीकरण जावंक ना म्हणटल्यांनी कॉलेजींनी आनी युनिव्हर्सिटींत कोंकणी विशय घेवन बीए, एमए करपी भुरगीं 'कसली' कोंकणी बरयतात ती पळोवची, तांकां हे कोंकणीची सुलूस मेळटली. हिंदू आनी क्रिस्तांव ह्या कोंकणीच्या दोनूय मुखेल घटकांक आसपावन घेवपाची तांक आशिल्लें रूप हें कोंकणीचें. आनी, ज्युस्त हेंच रूप मराठी परंपरेक दसून आशिल्ल्या, आपणाले जिबे वेले कोंकणीचीच वळख आशिल्ल्या गोंयकारांक आडखळटा. तांकां 'संयुक्त विद्यमान' समजता, 'जोड पालवान' समजना; 'परंपरा' समजता, 'दायज' समजना; 'लुकसाण' विचित्र, 'नुकसान' सारकें दिसता; 'वेंचणूक' अडेचें दिसता, 'निवडणूक' सहजपणान आयिल्लें दिसता; 'विंगड विंगड', 'लागणूक' सोयरीं उतरां, तर 'वेगवेगळें', 'कर्तव्य' घरचीं उतरां दिसतात.देवळा भायल्या सपणां कडेन लायिल्ली 'पादत्राणें येथें ठेवा' पाटी तांकां आडखळणा. 'धुम्रपान करू नये' विचित्र दिसना. उरफाटें, मराठीची ही 'गिरेस्तकाय' पळोवन 'धन्य' दिसताय आसत. (बडोदयाच्या संस्थानांत खंय एका काळार मराठी आनी इंग्लीश राजकारबाराच्यो भासो आशिल्ल्यो. तांचे बदला लोकभास गुजरातीचोच राजकारबारांत वापर करचो अशें सयाजीराव गायकवाडांनी थारायलें, आनी उपरांत संस्थानाचो सगलो, न्यायालयांचोय, कारबार वेव्हारांतले गुजरातींत जावंक लागलो. सयाजीरावांनी गुजरातीक राजकारबाराची भास करपाचो विचार मांडलो तेन्ना एका मराठी पंडितान खंय म्हळें, ''गुजरातींत राजकारबार? गुजराती उणाक भास. मराठींत आमी तोंडाक 'मुखकमल' म्हणटात, पांयाक 'चरणकमल' म्हणटात... गुजरातींत असलें कांय ना'' (राजाध्यक्ष १७२).)

हिंदू आनी क्रिस्तांव - दोनूय समाज दोळ्यां मुखार आशिल्ल्यान घडिल्ली आनी घोळणुकेंतल्यान वयर सरिल्ली कोंकणी आमच्या कांय लोकप्रतिनिधींक समजना जाल्यार हाचो एकूच अर्थ लावं येता - आमचे हे प्रतिनिधी निखटी 'बोली' म्हुण्णूच कोंकणीचो वापर करीत आयल्यात. हेर भासांतल्या बरपांतल्या रुपांक आसता तसो बरपांतले कोंकणीकूय एक इतिहास आसा, परपंरा आसा हाची तांकां जाणवीक जावचीच आसा. आनी, राज्याजी राजभास आपणाक वाचूंक बरोवंक येना म्हणप ही खंयच्याच लोकप्रतिनिधीक व्हडवीक दिसपा सारकी गजाल कशीच आसूं नजऽ.

हालीं आनीक एक गजाल परती परती कानार पडूंक लागल्या - मराठी बरी आयल्यार खंय कोंकणी बरी येता! म्हळ्यार, कोंकणी बरी येवपाक जाय जाल्यार पयलीं मराठी शिकप? काय, (एक repressed अर्थ -) क्रिस्तांवांक मराठी येना म्हूण तांकां कोंकणी बरी येना? पुंडलीक नायक मराठी शिकिल्ले म्हूण खंय कोंकणी बरे बरोवंक पावले! आनी, मराठी बरी येवंक जाय जाल्यार खंयची भास शिकप? गुजराती? हिंदी? काय फकत कोंकणीकूच हो नेम लागू जाता? ह्या नेमाच्या मुळाक 'कोंकणी ती! येता ती आमकां. ती शिकपाची गरज ना' हो विश्वास ना मूं? तपासून पळोवचो.

मराठी येतकच कोंकणी बरी येता हे मान्यतायेचीं फळां आयज आमच्या कोंकणी बरपांत पळोवंक मेळटात. कांय देखी :

१. *तुका बरें ना?'* (हो 'तुला बरं नाही का?'चो अणकार.

कोंकणींत 'तूं बरें/बरो/बरी ना?' म्हणटात.)

२. 'ताका रडूंक *आवरना जालें.*' ('...रडप थारावंक/आडावंक (संदर्भा प्रमाण) जमना जालें' जावंक जाय आशिल्लें.)

३. *'आमचे हांगा* लग्नां दिसाचीं जातात.' ('आमचे हांगा' 'आमच्या इथे'चो अणकार. 'आमचीं लग्नां दिसाचीं जातात' वा (संदर्भ समजून घेवन) 'गोंयांत हिंदूंचीं लग्नां दिसाचीं जातात' अशें म्हणूं येता.)

४. *'प्रिस्क्रिप्शना खेरीजूय* गिरायकाक वखदां मेळटात.' ('प्रिस्क्रिप्शना भायरूय' वा 'प्रिस्क्रिप्शन नासतनाय', संदर्भा प्रमाण.)

५. 'तांणी उबारिल्लें पावल *स्वागतार्ह* आसा.' ('स्वागतार्ह' जायुच्च? '...पावलाक येवकार दिवंक जाय' पुरो ना?)

६. 'ब्लॅकमेलिंग *खपोवन घेवचे नात.*' (मराठींत 'खपप' म्हळ्यार "चलप/कोंताक येवप", कोंकणींत 'खपप' म्हळ्यार "गिरायकान विकतें व्हरप". हे देखींत कोंकणी उतर मराठी अर्थान वापरलां. 'ब्लॅकमेलिंग सोंसून घेवचे नात' जावंक जाय आशिल्लें.)

७. '(अमक्या *विशया)वयर* उलोवणीं जालीं.' (कोंकणींत 'विशयाचेर' उलोवणीं जातात, मराठींत तीं 'विषयावर' जातात.

८. 'प्लास्टिकाचेर *तोडगो काडटले.*' (सादो घोळणुकेंतलो पर्याय - 'उपाय काडटले')

९. 'गोंयचें खेरीतपण *शाबूत दवरूंक जाय.*' ('सांबाळून दवरूंक जाय'.)

१०. 'दुदाच्यो *गायी* आतां तामिळनाडूंतल्यान हाडटले.' (खंयचेच, कोणालेच कोंकणींत 'गाय' उतराचें भोववचन 'गायी' जायना, 'गायो'च जाता. 'गायी' मराठी 'गाय' उतराचें मराठी भोववचन. (हे तरेच्यो चुकी आयज सहज टाळूं येतात. राजहंस वितरणान उजवाडायल्लो *कोंकणी अभ्यासकोश* उकतो करून. कोंकणी बरोवप्यांच्या मेजार हो कोश आसुंकूच जाय.)

मराठी कोश उकतो केले बगर, मराठी व्याकरण समजून घेतले बगर हे तरेची कोंकणी 'समजना'! कोंकणीक मराठीची 'गोमंतकी बोली' करपाची वाट ही.

रवीन्द्रबाब म्हणटाले, इतलीं वर्सां कोंकणींतल्यान बरयतां, पूण अजून म्हजी भास म्हाका सारकी येना... ते निमाणे मेरेन कोंकणी शिकताले.

क्रिस्तांवांक 'रोमी कोंकणी', हिंदूंक 'देवनागरी कोंकणी' ही फाळणी करपाचे जांकां हुटहुटे लागल्यात तांकां मुजरत सांगन दिसता, हिंदू वरीच क्रिस्तांवांची नवी पिळगी आयज तळमळीन कोंकणी शिकता. देवनागरींतल्यान कोंकणी वाचता,बरयता. 'देवनागरी कोंकणी' आतां हिंदूंचें घरभाटलें उरूंक ना. गोंय राज्यांत क्रिस्तांवांची लोकसंख्या आयज २७% आसा जाल्यार गोंय विद्यापीठांतल्या कोंकणी विभागांत एमए करपी क्रिस्तांवांची टक्केवारी सुमार ३८% आसा. फुडल्या पंचवीस वर्सांत हाचो परिणाम गोंयच्या भाशीक मळाचेर निश्चीतपणान जाणवतलो. 'क्रिस्तांवांक कोंकणी नाका' (सगल्या हिंदूंक तरी ती खंय जाय?), वा 'देवनागरी कोंकणीची अधिकृत लिपी केल्ल्यान क्रिस्तांव कोंकणी पसून पेल्यान गेल्यात' (अशे, कोंकणी पसून पेल्यान वचून इंग्लीशी सरीं पाविल्ले हिंदू नात?) - हे सगले आमचे 'सोयीस्कर गैरसमज'.

कोंकणी चळवळीक भाशाद्वित्वाची (डायग्लॉसियेची) फाटभूंय आसा. भाशाद्वित्व म्हळ्यार ऊंच-उणाकपणाच्या तत्वाचेर आदारिल्ली भाशेच्या रुपांच्या/भासांच्या वापराची वेवस्था. (भाशाद्वित्वा विशीं हे आदीं आमी जागांत खूब बरयलां.) हे वेवस्थेक शेंकड्यांनी वर्सांचो इतिहास आसता. मराठी ('भास') / कोंकणी ('बोली') हें एके तरेचें भाशाद्वित्व, जाल्यार पोर्तुगेज / इंग्लीश ('शिकिल्ल्यांची भास') / कोंकणी ('अनपडांची भास') हें आनीक एके तरेचें भाशाद्वित्व.

कोंकणीक 'बोली' लेखपी गोंयकार लोकमेजणेंत आपणाली आवयभास मराठी लायत आयल्यात. हे भाशेन, गोंयांत एकाच कुटुंबांतल्या वांगड्यांनी लोकमेजणेंत वेगळ्या वेगळ्या आवयभासांच्यो नोंदी केल्ल्यो पळोवंक मेळटल्यो. लक्ष्मीकांत भेंब्रेंची आवयभास मराठी, तांच्या पुताची, उदय भेंब्रेंची कोंकणी; दामोदर नायकांची मराठी जाल्यार दत्ता नायकांची कोंकणी, अशें चित्र दिश्टी पडटलें.

गोंयात गुजराती, कच्छी, राजस्थानी, हिंदी, उर्दू, कन्नड, मलयाळम... भाशीक आसात तशे मराठी भाशिकूय आसात, ना न्हय. पूण बेळगांव जशें कन्नड आनी मराठी उलोवप्यांचें द्विभाशीक राज्य तशें गोंय कोंकणी आनी मराठी उलोवप्यांचें द्विभाशीक राज्य न्हय.गेले लोकमेजणेंत ज्या सोळा टक्क्यांनी आपणाली आवयभास मराठी लायल्या तांतल्या भोव थोड्यांची ती 'पयली भास' (first language - सगल्यांत पयलीं आत्मसात केल्ली भास) आसतली. हांतले चडशे जाण 'मराठी भाशीक', फकत कोंकणीक ते भास लेखूंक तयार नात म्हूण, वा तांचे 'जिबेर कोंकणी आसा पूण काळजांत मराठी बसल्या' म्हूण! गोंयांतली 'मराठी जनता' म्हणटात ती चडशी हे तरेची. गोंय मेकळिके उपरांतच्या पांचूय लोकमेजण्यांतल्या गोंयकारांल्या आवयभासांच्या आंकड्यांची तुळा करून पळोवंक जाय - पयले लोकमेजणेंत कोंकणी आवयभास लायतल्यांचो आंकडो उणो, मराठी आवयभास लायतल्यांचो आंकडो अदीक मेळटलो. आयज चित्र उरफाटें जालां. आनी मुजरत सांगन दिसता, 'लोकाश्रय' म्हणटात तो हो.

ह्याच लोकाश्रयान एका काळार "देवा मुखार कोंकणी नाटक कशे करतात, पळेतले आमी" म्हणटाले त्याच गोंयांत उत्सवी रंगमाचयेर कोंकणी नाटकाची स्थापणूक केल्या. "कोंकणी मूठभर सारस्वतांची भास" म्हणटाले त्या गोंयच्या साहित्यीक मळाची आयज बारीकसाण घेवन पळेयात. गोंयचे साहित्यीक उकतावणेंत कोंकणीच हेर सगल्या भासां परस सगल्या अर्थांनी मुखार दिसतली, आनी कोंकणीचे साहित्यीक उकतावणेंत सारस्वत खऱ्यांनीच मूठभरूच पळोवंक मेळटले! कोंकणी भाशेचें खरेलें जैत हेंच.

पत्रकारितेच्या मळार कोंकणीचो संवसार वाडना ही गजाल खरी, आनी तो कित्याक वाडना ताचो थाव घेवपाक आमी आत्मपरिक्षण करुंकूच जाय. पूण गोंयांत नवीं नवीं मराठी दिसाळीं येतात हे एकेच गजाली वयल्यान मराठीक गोंयांत लोकाश्रय आसा (म्हळ्यार कोंकणीक तो ना?) अशें म्हणूंक येवचेंना. (आनी, ह्या दिसाळ्यांनी डॅस्काचेर 'गोमंतकीय मराठी जनतें'तले कितले जाण, आनी महाराष्ट्रीय जनतेंतले कितले जाण काम करतात तेंवूय पळोवचें.)

गोंयांतली कोंकणी चळवळ, आयज जायत्या जाणांक दिसता

तसो, 'निरर्थक भाशावाद' न्हय. नवें गोंय घडोवपा खातीर समाजाच्या सगल्या तरांच्या आनी सगल्या थरांतल्या लोकांक सांगाताक घेवन उबारिल्लें गोंयच्या सुटके झुजा इतलेंच पवित्र आनी तेजिश्ट आंदोलन हें. ह्या आंदोलनाक लागुनूच गोंय वेगळें उरूंक पावलां. आनी जे गोंयचे अस्मितायेक राखण मेळची म्हूण आयज आमी एका मुखान गोंय राज्याक खाशेलो दर्जो मागतात ती अस्मिताय हे भाशीक बसकेचेरूच खरेपणान फुलूं फळूं येता.

गोंयच्या सांस्कृतीक जिवितांत मराठीक सुवात आसाच. मराठी आरत्यां बगर गोंयकारांची चवथ जायना, मराठी नाट्यगितांची, भावगितांची गोंयकारांक खूब ओड, मराठी नाटकांय गोंयांत चलतात. मराठी साहित्य, मराठी दिसाळीं गोंयकार वाचतात. हें सगलें बंद जावचें अशें आमी निखालूस म्हणिनात. पूण म्हूण गोंयांत कोंकणीच्या हकाची सुवात मराठी घेवंक भायर सरली, कोंकणीक अमकें मेळ्ळां जाल्यार म्हाकाय तें मेळूंक जाय; म्हाका मेळना जाल्यार कोंकणीकूय मेळूंक फावना (इंग्लीशीक मेळ्ळ्यार उपकारता) हे भाशेन ती चलूंक लागली जाल्यार गोंयच्या हिताचो विचार करून तिका तिची सुवात दाखोवन दिवचीच पडटली. गोंयांत शासनाच्या आनी प्रशासनाच्या मळार मराठी कोंकणीक पर्याय जावंकूच शकना. हांगा 'कोंकणी आनी मराठी' न्हय. 'कोंकणी वा मराठी' तर न्हयच न्हय. हांगा कोंकणीची सुवात कोंकणीकूच मेळूंक जाय. आनी, आयज कोंकणी-मराठी वाद सोंपला हें खरें आसत जाल्यार मराठी-मोग्यांनीच मुखार सरून, काकासाहेब कालेलकर सांगताले तशे, कोंकणीक ही सुवात मेळची म्हूण व्हड मनान यत्न करचो. गोंयचें शासन आनी प्रशासन कोंकणींतल्यान चल्ले बगर गोंयकारां भितर धनीपण कशेंच येवंक पावचेंना. ('धनीपण' हें खंयचें उतर, कसलें उतर अशें दिसता तांणी शणै गोंयबाब वाचचो.)

**संदर्भ वळेरी** (कोंकणी-मराठी-हिंदी ह्या क्रमान):


गांधी, मो.क. *सत्याचे प्रयोग वा आत्मकथा.* अण. गुरुनाथ शिवाजी केळेकार. अहमदाबाद : नवजीवन प्रकाशन मंदिर, २०१०.

कालेलकर, काकासाहेब. ''गोमंतकीय सरस्वतीभक्तांस'' (१९४५). *पुण्यभूमि गोमंतक* ८-४४.

..., ''तीस वर्षांत कोंकणी विद्यापीठ'' (१९४७). *पुण्यभूमि गोमंतक* ७५-७७.

..., *पुण्यभूमि गोमंतक (गोवा विषयक प्रश्नांचा परामर्श).* मुंबय : गोमंत भारती प्रकाशन, १९५८.

नाडकर्णी, पांडुरंग रावजी. ''गोमंतकातील शिक्षण : १९१२ ते २०१२.'' *शतकातील गोमंतक (१९१२ ते २०१२).* शताब्दिमहोत्सव स्मृतिग्रंथ. मडगांव-गोंय : गोमंत विद्या निकेतन, २०१२. ३७६-३९८.

राजाध्यक्ष, मंगेश विठ्ठल. ''जरी आज ती राजभाषा असे!'' *भाषाविवेक.* पुणें: श्रीविद्या प्रकाशन, १९९७. १६९-७२.

लोहिया, राममनोहर. *भाषा.* हैदराबाद : नवहिन्द प्रकाशन, १९६५.




## पडसाद

### कोंकणी विषय सामकी माहिती जनांचे मुखार दवरची

कोची,
१४ मार्च २०१३

भौ. संपादक *जाग,*
नमस्कार.

*जाग* दिवाळी अंक पावले निमितान भोव आनंद भोगलो, की हें अंक कोंकणी नाटकाची शंभरी मनयता.

आतांय केरळांत कोंकणी विशीं कळतल्ले सामकीच उणे अशीच दिसता! २०१२त मलयाळम भासेंत उजवाडाक आयलीं दोन पुस्तकां पळयलीं -

१. *बुद्धप्रभाव.* संपा. प्रा. मा. सत्यप्रकाश. हांत कोंकणी मराठीची उपभास अशीच कळीत केल्या, आनी लेखक आपणाक हिंदी भासेचो महान बरोवपी अशीच लेखता मू!

२. *भाषाशास्त्रनिचण्ड्* (भाषाविज्ञान कोश). हें पुस्तक केरळ सरकाराचे संस्कृती विभागाचे वतीन उजवाडाक आयलां. हांत ताचो संपादक केरळ विश्वविद्यापीठांत भाषाविज्ञानाचो सुमार काळाक प्राद्यापक आनी विभागाचो मुखेलीय आसून हीच चुकी करता, की ''कोंकणी मराठीची उपभास''!

हांतल्यान म्हाका अशीच समजता की कोंकणी विषय सामकी माहिती आमी पुराय कोंकणी जनान हेर भासेंतले जनांचे मुखार दवरची आसा जी शणै गोंयबाबान केली आसली.

देव तुमकां कोंकणीचें महत्वाचें काम करचे तकीत चड बळ दिवो अशीच मागून,
केन्नाय तुमचो,

**- एन्. एन्. आनन्दन**
संपर्क: ०४८४-२३६९३५४

# अना... दिसपट्टयेंतलीं कांय पानां

– माधव बोरकार

*अना म्हांबरो आनी म्हजी वळख खूब पोरनी. १९६८ पासूनची. तो गोंयां येतकच आमचें मेळप जातालें. आनी आमचें उलोवप चड करून पुस्तकां संबंदान जातालें, युरोपी वा अमेरिकी लेखकां संबंदानूय आमी चर्चा करताले. १९८४ ते ८९ ह्या पांच वर्सांच्या म्हज्या मुंबयंतल्या राबित्यांत आमी जायते फावट मेळटाले. मागिरूय आमचें मेळप जातालें. हांव कोल्हापूर आसतना आमी फोनाचेर खूब उलयताले. एकेक फावट अर्द ते पाऊण वर लेगीत. एक दीस दिसलें, आमी जें कितें उलयतात ताचो आपरोस बरोवन दवरल्यार कशें? आनी अनाचे नकळटां हांवें नोंदी बरोवन दवरल्यो. रॉजर मार्ता द गार्द ह्या नामनेच्या फ्रांसेज बरोवप्याचें नोट्स ऑन आन्द्रे जीद हें सुपुल्लें पुस्तक म्हज्या दोळ्यां मुखार आशिल्लें.*

**बुधवार**

**२९.०१.०९**

अना सद्या पणजे आसा. आनीक कांय दीस थंय उरतलो. डॉ. मारिया आवरोरा कुटोन डॉ. ब्रागांझ पेरैर हांच्या मूळ पुर्तुगेज पुस्तकाचो केल्लो इंग्लीश अणकार *Ethnography of Goa Daman and Diu* आपूण वाचपाक सोदतां अशें म्हाका म्हणपाक लागलो. *गोंयची अस्मितायेचो* दुसरो वांटो आपल्याक बरोवपाचो आशिल्लो. पूण आळसाय आनी हेर कामांनी गुंथिल्ल्यान तें जमलेंना अशें ताणें सांगलें. उलयता उलयतां ॲलफिन्स्टन कॉलेजीच्या इतिहासाची खबर आयली. हालींच मुंबय आकाशवाणीन हे कॉलेजीची वास्तू आनी तिचें शिक्षणीक कार्य हे विशीं एक रुपक केल्लें तातूंत कांय चुको उरल्यात; आतांची कॉलेजीची वास्तू तयार जावचे पयलीं कॉलेजीचे वर्ग Town Hallt भरताले म्हणपाचें अनान सांगलें.

**मंगळार**

**३.२.०९**

आज सकाळीं केणीबाब भायर पडले. बसींत आसतना मोबायला वेल्यान हॉटेल पालासींत फोन केल्यार अना कालूच मुंबय गेलो म्हणपाचें कळ्ळें. ऑफिसांत पावतकच मुंबय फोन करून ताचे कडेन उलयलों. ताका ही खबर सत्यवान कुंदेन कळयली. अनाक केणीबाब गेले ताचें खूब वायट दिसलें. तांची वळख खूब पोरनी. आपलें आनी केणीबाबाचें बेस बरें जुळटालें अशें अना सांगपाक लागलो आनी कितल्योश्योच यादी सांसपिल्यो.

**शेनवार**

**१४.०२.०९**

वसंत सिदबाराव सरदेसाय हांचे संबंदान कितें खबर आसा काय म्हूण अनाक विचारलें. आपणें ताचें नांव आयकलां पूण केन्नाच मेळूंक ना अशें ताणें सांगलें. सरदेसाया वेल्यान ताका शांबाराव सरदेसायाची याद जाली. शांबाराव जिविताचे अखेरेक रायबंदरा तांच्या चल्यागेर चिंतामणरावा सरीं रावताले. केन्नाय पणजे येतना ते अनाक कारेंरींत दिसताले. तांकां खंय एक संवय आशिल्ली. कोणूय तरनाटो दिसतकच ते ताची फाटली फुडली खबर घेताले आनी ताका म्हणटाले, आमी जाणटे आतां भूतकाळांत पावले. तुमकां भुरग्यांक भविश्यकाळ आसा.

अना खूब फावट म्हणटा, आदले पिळगेंतल्या म्हालगड्यांनी तांच्या काळा संबंदान यादी बी बरोवन दवरपाक जाय आशिल्ल्यो. ते लक्ष्मणरावा कडल्यान तशी अपेक्षा करताले. पूण लक्ष्मणराव पुरुषोत्तमबाब केंकरो हांचेर कादंबरी बरोवपाक उरले. आनी तें तांचें बरप अर्दकुटेंच उरलें.

**मंगळार**

**२४.०२.०९**

खूब दिसां उपरांत आज अनाक फोन केलो. मदीं गोंयां गेलों आनी फोन करपाक मेळ्ळो ना. उलयतां उलयतां 'कीनोट' ह्या जे.आर.डी. टाटाच्या भाशणांच्या पुस्तकाचे नवे आवृत्तीचो विशय आयलो. ह्या पुस्तकाचो एक मराठी अणकार माधव मोर्डेकर हांणी केला. पूण तो चुकला आनी खूब वायट जाला अशें अनाचें मत. आतां ताचोच नवो अणकार सुप्रिया वकील हिणें केला. तो जमला अशें अनाक दिसता. टाटाच्या वेंचीक पत्रांचो अणकार वकीलूच करता, आनी म्हत्वाचें म्हळ्यार ही वकील कोल्हापुरांत रावता. शाहुपुरींत. अनान म्हाका तिचो फोन नंबर आनी पत्तोय दिलो.

**बिरेस्तार**

**२६.०२.०९**

सकाळीं अनाचो फोन आयलो. आमी अरविंदांचे भाशे सबंदान उलयले. अरविंदांच्या तत्वज्ञाना परसूय तांचे इंग्लीश भाशेक लागून ते आमकां परकी दिसतात. अरविंद जी भास वापरताले ती तांच्याच काळांत काळा भायरी जाल्ली. देखून तांचीं पुस्तकां वाचतना आडखळिल्ले वरी जाता. पूण तांकां केन्नाच आपली भास बदलपाक आयलिना. आपलीं पुस्तकां भास आनी शैलीक लागून सर्वसामान्य लोकां मेरेन पावनात हाची जाणविकाय जावन तांणी आपल्या निमाण्या पुस्तकाचें बरप अर्दकुटें सोडून दिल्लें. थॉमस गे हांणी र.वि. पंडिताच्या कवितांचो इंग्लीश अणकार केला तो पोरने भाशेंत. ताका लागून कविता मुळांत बऱ्यो आसुनूय अणकारीत रुपांत भिडनात. एक फावट अना आनी पंडित हरिंद्रनाथ चट्टोपाध्यायां कडेन गेल्ले. तांणी गेन केल्लो 'लग्न' हे कवितेचो अणकार हातांत घेवन ताका आर्विल्ले इंग्लीशीचो रुपकार दिलो. अना आनीक कितें तरी म्हाका सांगपाक वतालो. इतल्यान तागेर कोण तरी आयलो आनी आमचें उलोवप तुटलें.

संपर्कः ९४२०२२२८७६



# वधू-परिक्षा

**विठ्ठलराय भट**

नाशिपुडी माधवराय शानभाग म्हळ्यार कुमठ्यांतलो कोणी पूण ताका वळकता. माधवरायाल्या अज्यान नाशिपुडी (तपकीर) तयार कोर्नु घरा घरा वचून विकपाक सुरवात केल्ली. ताणें गायच्या तुपांत तयार केल्ली सुगंधी नाशिपुडी जगप्रख्यात. कारवार, गोंय धोर्नु थेट मंगळूर, मुंबय पर्यंत तागेले पुडीक मागणी आशिल्ली. कांय ब्रिटीश लोक, तांच्यो मडमी सुद्धां, त्या सुगंधी नाशिपुडीक पिशे जाल्ले. घरा कोणी सोयरे-धायरे आयले काय तांकां जेवण-खाण जातरीक मुद्दाम पूड ओडपाक दिताले. तशी रितूच आशिल्ली. खंयी वतना रस्त्यार कोण मेळ्ळो जाल्यार ताका चिमटीभर पूड दिवची. ती गोश्ट मानाची समजताले.

माधवरायाल्या बापायन पुडीचो धंदो वाडयलो, अणी माधवरायान हिंदुस्तानांतल्या कित्येक शहरांत पूड धाण्ण दिवची वेवस्था केली. आतां तागेलो पूत आनंदराय ग्रॅज्युएट (बी.कॉम्.) जावन ताणें युरोपांत पूड धाडपाची वेवस्था केल्ली. अशें हें नाशिपुडी शानभागालें कुमठ्यांतलें नामनेचें घराणें.

आज सकाळच्यानूच माधवरायाल्या घरा गडबड शी सुरू आशिल्ली. ताचें कारण म्हळ्यार, आनंदरायाक दाकोवच्याक मोटार मारुती सावकार आपली धूव घेवन तांगेर येवचो आशिल्लो. कारवार जिल्ल्यांत सुरवेक प्रायवेट मोटार सर्वीस सुरू केल्ली म्हूण ताका सगळेजाण 'मोटार मारुती' म्हणताले.

कुमठ्यांतल्या मिणमिणी गल्लीच्या तोंडारच माधवरायालें व्हडलें राजांगणाचें घर. आनंदराय माधवरायालो एकूच मोगाचो पूत. तागेल्यो दोनी चलयो सुखान लग्न जावन आपापल्या संवसारांत गुल्ल आशिल्ल्यो. माधवराय अणी तागेली बायल वनजाक्का हांकां एकूच दु:ख - पूत आनंदरायालें लग्न जमना म्हळ्ळें.

आनंदराय हुशार भुरगो. दिसपाक पूण सुंदर. कसलें व्यसन म्हळ्ळें ना. ताचें लग्न कित्याक जमना हाजें एक कारण आशिल्लें - गांवचो मुकुंद भट्ट.

मुकुंद भट्ट धर्मशास्त्रांत निपूण म्हूण ताका गांवांतले लोक थोडे दबुनूच रावताले. ताका एक वायट खोड आशिल्ली. गांवांत कोणागेरी चली दाकोवपाचो कार्यक्रम आसा म्हळ्यार वधू-परिक्षा आपूण चांगपणान घेतां म्हूण मुकार सरतालो. चलयांक नाना तरेचे, नाकनाकाशिल्ले प्रस्न विचारून तांकां नापास करतालो. 'मुकुंद भट्टल्या परिक्षेक पास जाल्ली चली' म्हळ्यार 'एक नंबराची चली' अशें समजताले. अजून मेरेन ताणें आनंदराया खातीर आयिल्ल्या स चलयांक फेल कर्न उडयिल्लें. तशें म्होण्णु वनजाक्कान 'आज मुकुंद भट्ट येना जाल्यार पुरो' अशें हात जोण्ण सांतेरी-कामाक्षीक नवस केल्लो.

मुकुंद भट्ट अशें कित्याक करतालो म्हणपाक एक गुट्टु कारण आशिल्लें. वनाजाक्काली सोयरीक माधवराया सांगाती जमचे पयलीं तिका मुकुंद भट्टाक दाकयिल्लें.

जातकाची उत्तम मेळामेळी जमताली. सव्वीस गुणांनी जातक जमून चली दाकोवचो प्रोग्राम जालो. चलेकारांनी चली पास आसा म्हूण सांगणी धाडली. अणी वनजा रडपाक लागलें. कारण मुकुंद भट्ट स फूट थिप्पाड अणी काळो कुळकुळीत. तागेल्या नाकाच्यो पुडयो म्हणल्यार फुलिल्ल्या पुरयां म्हणकी.

तिका तो पसंत नाशिल्लो. कारण वनजा ही नाजूक सुंदर चली आशिल्ली. ही सोयरीक आपल्याक नाका म्हूण तिणें आवय कडेन रडत रडत सांगलें. आतां व्हडलो पेंच जालो. चलेकारांक नाका म्हूण कशें सांगचें? शेवटाक 'देवालो प्रसाद जाल्लो ना' म्हूण फट्टी उलोवन ती सोयरीक नाकारिल्ली. आपलो हो अपमान मुकुंद भट्ट विसरलो नाशिल्लो. ताजो सूड तो आनंदराया खातीर आयिल्ल्या चलयांक एका फाटल्यान एक अशें नापास कन्न घेतालो.

माधवरायाल्या घरा एक बगलेन पांच-स बायलां अणी दुसऱ्या बगलेन चार-पांच दादले बशिल्ले. मदेंच एक लोखंडाची खुर्ची दवरिल्ली. ती आनंदराया खातीर आशिल्ली. पूण तो अजून थंय येवन बशिल्लो नाशिल्लो. मोटार मारुती, तागेली बायल सुंदऱ्याका अणी धूव कल्याणी थंय येवन पावलीं. तांच्या सांगाता तागेलो पुरोयत भट्ट गोपाळमाम आशिल्लो. खुशाली विचारून एकमेकांक वळख कन्न दिवपाक लागले. वनजाक्काक मात्र मुकुंद भट्ट येवन पावना जाल्यार पुरो अशें दिसतालें. तिणें तशी सांतेरी कामाक्षी कडेन सांगणी कन्न घेतली.

"तो यमकाळ येना जाल्यार पुरो गे बाये" इतलें म्हण्ण तिणें हात जोडता मेरेन मुकुंद भट्ट येवन पावलोच.

"माधवराय, आज तुगेर चली दाकोवपाक येतात म्हूण कळ्ळें. ही खबर तुवें अगदी गुट्टु दवरली, तरी माका तिजो वास आयलोच. ह्या गांवांत मज्या इतलो भोव बरो वधू-परिक्षा करचो मनीस आसा, सांग पळोवया? ह्या मुकुंद भट्टाक पुराय कुमठ्यांत कोणाल्या घरा कसली शाक शिजल्या म्हळ्ळें ज्युस्त कळता. कळ्ळें मरे माधवराय?" अणी तो व्हडव्हडान हांसलो.

माधवरायान आपली बाजू सुधारून घेवपा खातीर सांगलें, "तशें न्ही रे म्हाराया, तुका सांगचोच आशिल्लों, पूण वट्टु गडबडेंतु विसोर्नु गेलों पळय. आतां तूं आयलाच न्ही, कर वधू-परिक्षा". हें आयकन मुकुंद भट्टाक खुशी जाली. ताणें सगळ्यांचेर नदर भोंवडायली. वनजाक्कान मात्र ती नदर चुकयली.

मुकुंद भट्टान नाकांत पुडी बार भरलो अणी हात खांद्या वयल्या वाल्याक पुसलो. फटाफट पांच-स शिंको काडल्यो. हाऽ! कन्न बसलो. सैंता भोरको आयलो तो आंगणांत वचून नाक साफ कन्न आयलो. वनजाक्कालो सोंडो फुगला हें ताणें पळयलें. पूण ताणें कॅर केलें ना.

घरांतुल्यान भायर पडचे पयलीं मुकुंद भट्टान बायले मुकार आण घेतिल्ली - "हय गो, पळय तूं. त्या चलयेक हांव नापास कन्न उडयतां की ना म्हूण. मॅट्रिक पास खंय! दिसपाक भारी चंद आसा खंय. पूण हांव तिका नापास करतलों म्हळ्यार करतलोंच. पळयच तूं!"

"कसल्याक तुमी असलो उपद्व्याप करतात? आनंदराय भोव बरो भुरगो. ताका येता त्यो चलयो तुमी आपयलें ना जालें तरी तांगेर वचून नापास कन्न येतात. कस्सलें पुण्य मेळता तुमकां, आंऽ? फुकट अपशकून करतात अणी लग्नाक वाडिल्ल्या चलयांचे अणी तांगेल्या आवय-बापायले शाप घेतात. अजून पर्यंत तुमी चार-पांच चलयांक तरी कसलो ना कसलो कोंकू काण्णु नापास केल्यांत. माका विचारल्यार, आज तुमी माधवरायागेर वचनाकात."

"तूं गप्प बैस. कस्सलें कळता तुका? सगळी बुद्द कमरे पोंदांत. माका शाणपण शिकय नाका." अशें म्हण्ण मुकुंद भट्ट भायर सरलोच.

"भटमाम, सुरू करात तुमगेली वधू-परिक्षा," माधवरायान सांगलें. मुकुंद भट्ट थोडो खांकलो अशें केलें अणी प्रश्न विचारलो-

"बाये, तुगेलें नांव किर्ते?"

"कल्याणी."

"तूं मॅट्रीक पास म्हूण आयकलां, व्हय मगो?"

"व्हय."

"बाये, तूं अशें कर. हेकडच्यान तेकडेन पर्यंत चलून दाकय. हळू हळू चले."

कल्याणीन तशें कन्न दाकयलें.

"जावुंदी. बरें आसा. पांयांत कसलें व्यंग ना म्हूण जालें. कलघटगीची एक चली आयिल्ली. सगळ्यांनी तिका पास केली. हांवें चलपाक सांगतरेक कुंटी आसा म्हण कळ्ळें," सांगून मुकुंद भट्ट हांसलो.

मुकुंद भट्टान खिशांतुल्यान ल्हानशी डबी भायर काडली. सांसवा येदी एक गुळी काण्ण कल्याणील्या हातार दवरली. "ही चोकून खा अणी हातूंत कसले पदार्थ आसात ते सांग पळोवया."

"हातूंत आमसाण, मीठ अणी जिरें आसा."

"बरोब्बर. तुगेल्या जिबेक रूच बरी कळता म्हूण जालें. रांदप बरें रुचकर करतली तूं."

"आतां ही आणकी एक गुळी घे. वास घे अणी तातूंत किर्ते आसा तें सांग पळोवया."

"भटमाम, हातूंत गंध अणी कापूर आसा."

"शाबास! अगदीं बरोब्बर!"

"तूं शिकिल्ली चली म्हूण विचारतां, रांदप करच्याक येता तुका?"

"हय भटमाम."

"तशें जाल्यार सांग, चार जाणट्यां खातीर शीत करचें जाल्यार कितलो तांदूळ घेवचो पडतलो?"

"देड शेर ना तर दोन शेर."

"तशें कित्याक?"

"पोन्नो तांदूळ जाल्यार देड शेर. नवो तांदूळ जाल्यार दोन शेर."

"तशें कित्याक गो?"

"पोन्नो तांदूळ शिजताना वाडता, पूण नवो तांदूळ वाडना."

"हुशार आसा तूं हां."

वनजाक्काक आतां वाज आयिल्लो. पाड पडिल्लो भट्ट अणी किर्ते किर्ते विचारून चलयेक फेल करता, जाण कोण म्हूण तिका हुसको जाल्लो. ह्या भिकणाशी मुकुंद भट्टाली चाल ती जाणा आशिल्ली. ही सोयरीक चुकपाक जायना अशें तिणें मनांत थारोवन विचारलें,

"भटमाम, आतां चलयेक व्होंट भरपाक हरकत ना न्ही?"

"राब गे म्हारायती! कसल्याक गडबडी करता? अजून वधू-परिक्षा सोंपली ना. अणीक थोडे प्रस्न आसात. तुका सकलगुणसंपन्न सून मेळू म्हूण हांव खटपट करतां न्ही?"

"चोरा, तुजो खरो इरादो हांव जाणां." वनजाक्कान मनांतूच म्हळें.

"आतां एक पद म्हण्ण दाकय पळोवया. शिनिमा नाटकांतलें नाका. देवालें भजन म्हण."

कल्याणील्या आवयन तिका "केशवा, माधवा, तुझ्या नावात रे गोडवा" हें भजन म्हण अशें कानांत सांगलें. पूण कल्याणीन हुशारेन "सांगा मुकुंद कुणी हा पाहिला?" हें भजन आपल्या गोड आवाजांत भटमामा कडेन

चोयतेर म्हळें. आपल्या नांवाचेंच पद म्हळें म्हूण मुकुंद भट्ट मनांतल्यान खूश जालो, पूण भायर तशें कांय दाकयलें ना. भजन आयकून बायलां पूण खूश जाल्लीं. चलयेल् ताळो गोड आसा अशें कोणें तरी म्हळें.

''तुका एक विचारूं?''

''विचारात भटमाम!''

''तुवें इतलो व्होड केंसांचो आंबाडो घाला. तातूंत केंसा चवर ना म्हगो?''

''ना.''

''केंस सोडोवन दाकोवशीत?''

रागान कल्याणीन एकूच फटक्यांत आंबाडो सोडयलो. मनांत म्हळें, ''पाड पडूं दी ही सोयरीक. हांव ह्या भटाक बुद्द शिकयतलेंच! माकोड खंचो.''

''भटमाम, आतां चलयेक व्होंट भरतां,'' वनजाक्का.

''राब गे. अजून वधू-परिक्षा खंय सरल्या?'' मुकुंद भट्टान इल्लेश्या रागानूच म्हळें.

मुकुंद भट्टान चिरेंतुल्यान *टाइम्स ऑफ इंडिया*चो एक पोन्नो पेपर काडलो. ''हातूंतली एक बातमी वाचून दाकय.'' अशें सांगलें.

आंपूण आतां काय ह्या वधू-परिक्षेंत पास जायना. सरळ 'ना' म्हूण सांगचें. सोयरीक मोडूं दी. अशें येवजून कल्याणीन तोंड उगडलें अणी तेन्नाच आनंदरायाली एंट्री जाली. गोरो गोमटो, सुंदर चलो पळोवन कल्याणी भुल्लें. मनांत येवजिल्लो विचार फाफडून उडयत गोड आवाजांत विचारलें, ''भटमाम, खंची बातमी वाचूं?''

खरें म्हळ्यार कल्याणीलें इंग्लीश बेकार आशिल्लें. मनांत घपघप जावन हडद्यांत बाकबुक् बाक्‌बुक् जावपाक लागिल्लें.

मुकुंद भट्टाक तरी खंय इंग्लीश येतालें? ताका कितें सांगचें तें कळनासताना आनंदरायाक म्हळें, ''आनंद, तूं ग्रेजुयेट. पळय तिणें खंची बातमी वाचची ती.''

इतलो वेळ कल्याणीली सुंदरकाय बारीकसाणेन नियाळतेर बशिल्लो आनंदराय एकदम तनरेंतुल्यान जागो जालो.

''फ्रंट पेज वाच.''

कितें जाता तें जावुंदी. येता तशें वाचचें अशें म्हूण कल्याणीन धडाधड एक बातमी वाचली. तिगेले खाके हुमेंन वोले जाले.

''पुरो पुरो. आनंदराय, सांग तूं, हिणें बरोब्बर वाचलें मरे?''

''व्हय भटमाम. एकदम फस्टक्लास इंग्लीश आसा.''

खरें म्हळ्यार थंय जमिल्ल्यां पैकीं आनंदराय सोण्ण कोणाकूच इंग्लीश येनाशिल्लें. कल्याणीन वाचताना सतराशें साठ चुको केल्ल्यो. पूण लग्न जाल्यार ह्याच चलये बरोबर अशें आनंदरायान मनांत थारायल्लें! कल्याणील्यो चुको माफ जाल्यो.

आनंदरायालें उतर आयकून कल्याणीक खूब खुशी जाली. तिणें तिरशा दोळ्यान आनंदराया कडेन म्होंवा नदरेन पळयलें. आनंदराय पूण तिकाच नियाळतालो. दोगांय मुमुरकींशीं हांसलीं.

''भटमाम, आतां व्होंट भरतां हां'' - वनजाक्का.

''आब्बा! खुब्ब गडबडी दिसता तुका. अजून दोन परिक्षा बाकी आसात. राब थोडो वेळ!

मुकुंद भट्टान एक कागदा पुडी सोडयली अणी तातूंतलीं सांसवां एक ताटलेंत रकयलीं. ''हीं सांसवां कितलीं आसात तीं मेजून सांग. चुकनाका. तुका जाय तितलो वेळ घे,'' अशें म्हणत मुकुंद भट्टान ताटली तिगेल्या मुकार सरकायली.

''आयलें की आतां मजेर धर्मसंकट!'' कपळाचेर मिरयो घालतेर कल्याणीन ताटली मांडेर वोण्ण घेतली अणी सांसवां बोटान एकेक कन्न मेजत लांब दवरपाक लागलें. एक सांसव लागीं हाडता म्हण परयेंत दुसरें सांसव लांब धांवता. कशें कन्न वोट्टू सांसवां एकोणचाळीस आसात म्हूण तिणें सांगलें.

''व्वा. शाब्बास. भले भले. तुगेली नदर एकदम बारीक आसा. हत्तील्या नदरे म्हणकी.'' मुकुंद भट्टान म्हळें.

''आतां व्होंटी भरतां हां,'' वनजाक्कान थोड्या वयल्या आवाजांतल्यान सांगलें.

''आब्बाब्बा! कसली गडबड म्हणतां हांव! आतां लास्ट टॅस्ट रावल्या. गजा, हांगा यो रे पुता.''

सादरण आठ वरसांचो भुरगो, वालो न्हेसिल्लो, गळ्यांत जानवें, शेंडी दवरल्या असो हातांत जंगाट अणी बडी घेवन धांवत थंय आयलो.

''मामा, आतां वाजोवूं?''

''राब रे म्हाराया.''

''बाये, हो भुरगो आता रांदपाच्या कुडींत वोचून थंय ही जंगाट वाजयतलो. ती ताणें कितले खेपेक वाजयली हें तुवें बरोब्बर सांगचें. ही टॅस्ट जर तूं पास केली तर तूं फस्टक्लास फस्ट पास जालें म्हूण समजुचें. गजा, वच रे तूं भितर.''

गजा धांवतेर गेलो आनी व्हड व्हडान जंगाटी थोके मारपाक लागलो.

आज हांगा येवचे पयलीं मुकुंद भट्ट सावकारागेर वर्सादिकाक ब्राह्मण म्हूण गेल्लो. थंय तागेल्या आवडीचे भिस्कूट आंबाडे खाल्ले. खाल्लें थोडें जास्तूच जाल्लें. केन्ना धर्न पोटांत वायगुरमान धांवतालो. पोट कशें सडळ करचें ह्या विचारांत आशिल्लो. जंगाळेच्या आवाजांत कोणाक कांय कळचें ना अशें येवजून तीन खेपेक पुर्र पुर्र पुर्र कन्न पादलो. कोणें आयकलें की कितें हें पळोवपा खातीर सगळ्यांर नदर भोंवडायली. पूण तशें काय कोणाल्या तोंडार भाव दिसलो ना. मनांतल्यान मुकुंद भट्ट खुशी जालो. पोट हगूर जाल्ल्यान ताका आतां नवो हुरूप आयलो जंगाटीचो आवाज येवचो थांबलो.

''सांग बाये आतां. ही तुजी निमाणी टॅस्ट. जंगाट गजान कितल्या खेपेक वाजयली?''

''त्या भुरग्यान पंचवीस खेपेक वाजयली. तर तुमी तीन खेपेक वाजयली.'' भुरग्यान वाजयिल्ल्याक घाण येनाशिल्ली. तुमी वाजयिल्ल्याक मात्र कुशिल्ल्या इंदरा म्हणकी घाण मारताली.'' कल्याणीलीं हीं उतरां आयकून सगळीं जाणां थक्क जालीं. आवयेन तर तिका फार्टीत मूठच मारली. कांय जाण 'खुक् ' कन्न हांसले. आतां कसलो कळीकाळाचो परसंग उबो रावता ह्या चिंतेन सगळे जाण धास्तावन गेले. आनंदराय तर तोंडार हात दवरून घेवन 'खुक् खुक्' कन्न हांसतेर पडिल्लो.

आतां कांय हांगा रावपाक अर्थ ना अशें जाणून मुकुंद भट्टान आपली पिशवी उकल्ली अणी भायर सरलो.

''भटमाम, आतां तरी व्होट भरूं न्ही?''

''भर गे बायेऽऽ भर. कोण नाक्का म्हणता तुका?''

संपर्कः ०९२२३३६५१९९



# साहित्या वरवीं देशाचो एकवट

**- महाबळेश्वर सैल**

हांव कोंकणी भाशेंत बरोवपी एक लेखक. हांव कोंकणींत बरयतां तरीय वांगडाच हांव असमियांतल्यान बरयतां, बंगाली, गुजराती, हिंदी, मराठींतल्यानूय बरयतां. सगळ्यो भारतीय भासो एकाच भाशा प्रवाहांतल्यान वयर सरल्यात, तांचो अंतरप्रवाह एकूच आसा असो म्हजो समज आसा. भारतांतले हेच मातयेंत आमच्या सगळ्या भासांचो जल्म जाला. आमी सगळे देशबंधू, संस्कृतीबंधू आसात, तशेच भाशाबंधूय आसात. हो विचार आमी आमच्या मनांत पक्को करून घेतलो जाल्यार आमी खिणांत एक जावन वतले.

आमी साहित्याचो एक म्हासुवाळो मनोवंक हांगा जमल्यात. ही कला एक परिपूर्ण कला. साहित्य संवसारांतल्या सगळ्या कलांक आपणांत आसपावन घेता. साहित्य उतरांच्या माध्यमांतल्यान उदेत्या सुर्याचें सोबीत चित्र ताचे रंगसंगती सयत काडूंक तांकता. उतरांतल्यान मनशाचें जितें जिवें शिल्प तें उबें करूंक तांकता. साहित्यांतले कवितेंत संगीत आसता. मुळांत रामायण आनी महाभारत हे ल्हान ल्हान इतिहासूच. साहित्यान तांकां महाकाव्याचें रूप दिलां. तें भारतीयांच्या घराघरांनी पावयलां. हेर खंयचेय कले परस साहित्य जिविताक चड लागींच्यान स्पर्श करता. साहित्य एक अशी कला, जी मनशाच्या जिविताचो अर्थ आनी ताचें गूढ रहस्य सोदून काडच्या प्रयत्नांत आसता.

मनशान अस्थीर सैमा वांगडा झगडत आपलें जिवीत आयज मेरेन हांगा सुरक्षीत पावयलां. मनशाच्या ह्या संघर्शाचें चित्रण फक्कत साहित्यांतल्यानूच वाचचें. साहित्य मनशाल्या अस्तित्वाच्या संघर्शाक उदात्त, उन्नत करता, ताचो मानभोवमान करता, मुखार येवपी पिळग्यांक चड बळगें दिता. तें जिविताक नैतीकतायेचें अधिश्ठान दिवचो प्रयत्न करीत आसता. मनशाल्या जिविताक साहित्यान दिल्लें नैतीकतायेचें अधिश्ठान हें साहित्याचें व्हडलें अभूतपूर्व काम. साहित्यान मनशाच्या जिविताक संस्कृती दिल्या, सोबाय दिल्या, विचार दिला, नैतीकताय दिल्या. मोग, करुणाय दिल्या. भर सभेंत द्रौपदील्या वस्त्रहरणाचें पातक कौरवांक सर्वनाशाचें प्रायश्चीत दिवनूच सोंपता अशें मानतात. ज्या देशाचें साहित्य व्हड तो देश चड सुसंस्कृत. टॉलस्टॉयाच्या मापान पुराय रशियेक मापूंक येता. भारत देशाच्या जिवितांतल्यान रामायण आनी महाभारत हीं दोन महाकाव्यां कुशीक काडलीं जाल्यार हो देश आत्मो शेणोवन बशिल्लो, तेजहीण देश जावन उरतलो.

धर्म आनी जाती समाजाक फोडटात. हाचे उरफाटें, साहित्य मनशा मनशाक लागीं हाडटा. काळजाचे खोलायेंत मनशा वांगडा सुसंवाद करता. ताच्या कथांक, व्यथांक उद्‌गार दिता. आमचे कडेन शिक्षण दिवपी सगळ्यो शाखा आसात. पूण जगपाचें गिन्यान दिवपी शाखा ना. तें गिन्यान साहित्य दिता, खोलायेन. भास हो संस्कृतीचो मानदंड. भाशे वरवीं मनशाची प्रतिश्ठा, ताची संस्कृताय कळून येता. साहित्य भाशेचो नितळ विकास करता आनी मनशाक समृद्‌ध करता. साहित्याचो संबंद मनशाले मुळावे गूण मोग, करुणा, क्षमा, सेवा हांचे वांगडा आसता. गुणांची पोसवण करून मनशांलीं मनां संवेदनशील उरचीं, तीं बोथट जावचीं न्हय म्हण साहित्य जतनाय घेता. जांचीं मना संवेदनहीण जावन सुकूंक लागल्यांत असले मनिसूच बलात्कार, हिंसा करतात, दहशतवाद पातळायतात.

हांव कृशी संस्कृती कडेन संबंद आशिल्लो मनीस. म्हजें बरेंचशें साहित्य हांवें कृशी संस्कृतीचेर बरयलां. वोत. पावस, भूंय, माती, झाडां-पेडां वांगडा जुळिल्लो हो व्यवसाय. शेतकार वर्सभर सैमाच्या रुतू चक्रा वांगडा बांदिल्लो आसता. पूण आज मनीस सैमा पसून पयस वचूंक लागला. सैम आनी मनीस हांचे मदीं द्वैत निर्माण जालां. मनीस निर्दयपणान सैमाचो न्हास करूंक लागला. ह्या एका कारणान घडये मनीस-जातीचोय न्हास जातलो. म्हण, साहित्यान सैमाची म्हयमा सांगूंक जाय. सैमा वांगडा मोग

करूंक मनशाक शिकोवंक जाय. सैमाचो नाश म्हणजे सोबीतकायेचो नाश, धतरिच्या मूळ तत्वांचो नाश. हीच संवेदनशून्यताय. संवसाराक सोबीत करचें, मोगाळ करचें, करुणाम करचें हें साहित्याचें काम. वांगडाच साहित्य सत सांगता. वास्तवता आनी सत ह्यो एकाच नाण्याच्यो दोन बाजू. ज्या दिसा वाचप्यांचो बरोवप्यांच्या उतरा वेलो भावार्त हुडटलो त्या दिसा कठीण काळ येतलो. मनशाचें जिवीत दिशाहीण जातलें.

गोंया सावन कोहिमा मेरेन आनी कन्याकुमारी सावन काश्मीर मेरेन आमची साहित्य संस्कृती एकूच आसा. हाचें कारण, आमचे संस्कृतीचो प्रवाह एक आसा. पूण प्रत्यक्षांत आमी एक जावंक उतरांचें वेगळेपण ना, भाशा समजून घेवप कठीण ना, वेगळेपण आसा तें लिपयांचें. वेगवेगळ्या लिपयांक कुशीक सारून एकूच खंयचीय लिपी आपणावप आयचे परिस्थितींत शक्य ना. पूण व्हड प्रमाणांत आमच्या साहित्याचो आपसांत अणकार जावंक जाय. ताचेन आमकां कळटलें, आमच्यो भाव-भावना, आशा-आकांक्षा, आमचो देशा विशींचो मोग, आपलेपण एकूच आसा. भारताच्या एकवटाचे नदरेन अणकाराक भोवच महत्व आसा. हेर खंयचेय गजाली परस साहित्यूच भारताचो एकवट बरे तरेन करूंक शकतलें.

आमच्या देशांत कितल्याश्याच समृद्ध भासांचो गोटो गनभुलायणो साहित्यसुवाळो चलिल्लो आसता. ह्या भासांतल्या उतरांचें व्हडा प्रमाणांत दिवप-घेवप केल्यार संवसारांतलें सगळें ज्ञान आनी विज्ञान आमी आमच्या भासांनी आसपावन घेवंक तांकतले. आमी सगळ्यांत पयलीं देशी भासो समजून घेवंक जाय, तांचीं उतरां आमच्या भासांनी आसपावन घेवंक जाय. आमच्या देशी भासांतलीं सगळीं उतरां म्हणल्यार देशाची शिरवंतकाय. खंयचेंय उतर तेच भाशेची मिरास आसना. एके भाशेंतल्यान दुसरे भाशेंत उतरांची भोंवडी चालूच आसता. म्हण हेर देशी भासांतल्यानूच उतरां घेवन आमी आमची भास शिरवंत करूंक जाय, मागीर आमकां इंग्लीश भाशे सामकार लाचार जावन उबें रावचें पडचें ना.

सदांच आमकां सांगतात, इंग्लीश ही पोटाची भास. अशें सांगतल्याक दिसता, मनीस म्हणटात ती पोट भरची एक मोनजातूच. दर एका देशांतल्या मनशांले विचार, तांची संस्कृती, तांचो लोकवेद, तांची अस्मिता वेगळी, खाशेली आसता. मनीस कलेची साधना करता. ह्या सगळ्यांचें आकलन ताका मायभाशेंतल्यानूच बरें जावंक शकता. बरें, धरुया इंग्लीश आमचें पोट भरचें साधन. पोट भरचे खातीर मनशालीं हेरूय कांय साधनां आसतात. पोट भरूंक शेतकारा कडेन नांगर, खोरें, कुदळ आसता. मेस्ता कडेन खरवत, घण आसता. ते हीं पोट भरचीं साधनां गळ्यांत घालून भोंवनात. काम जालें म्हणटकीर कोनशाक काडून दवरतात. तीच गत इंग्लीशीचीय जावंक जाय. इंग्लीशीन भारतीय भासांचें अस्तित्व गोळाक लायलां. ती आमच्या आत्म्याकूय कोंचयता. दर एका देशाचें, वाठाराचें आपलें खाशेलें सांस्कृतीक संचीत आसता. तें हजारांनी वर्सांच्या उत्क्रांती प्रवाहांतल्यान ताका लाबिल्लें आसता. ताची राखण करचें हर एकाचें कर्तव्य आसता.

संवसारांत साम्राज्यवाद सोंपलो म्हण आमी कितले खोशी आसले. बहुराष्ट्रीय कंपन्यांनी आज हांगाची भूंय, हवा, उदक आनी कच्चो माल आपल्या ताब्यांत घेतला. भाशीक गुलामी, सांस्कृतीक गुलामी आनी आतां अर्थीक गुलामी आयल्या. भारत देशाक ल्हव ल्हव मोटी बाजारपेठ करून सोडला. ह्या देशांत हे मुखार नागरीक आसचे नात, आसतलें गिरायक. आज भारतांतल्या लोकांक संवसारीकरणाचें सारकें ज्ञान नाशिल्ल्यान लोक मोट्या संभ्रमांत पडल्यात. ह्या संक्रमण काळांत लेखकांनी लोकांचें मार्गदर्शन करूंक जाय. पूण ह्या विशयाचेर बरी साहित्यकृती कोणें बरयल्या म्हूण आयकूंक ना. हें साहित्यिकांक एक आव्हान. संवसारीकरणान एके भोगवादी संस्कृतीक जल्माक घातल्या. लोक बाश्कळ सुखा फाटल्यान धावंक लागल्यात हें भारताच्या अध्यात्मीक मनोधर्माचे आड आसा. भोगवादी संस्कृतींत धतरेचें व्हडा प्रमाणांत शोशण जाता. आतां तें तशें वेगान जावंक लागलां. एके वटेन आमी ग्लोबल विलेजीच्यो खबरी करतात आनी दुसरे वटेन राष्ट्रां राष्ट्रां मदल्यो सरादी आनीक घट करूंक धडपडटात. तांची राखण करचे खातीर शस्त्रास्त्रांच्यो राशी घालतात. जंय दहशतवाद मातत आसा थंय ग्लोबल विलेजीचें नांव काडप म्हटल्यारूय फटकिरेपण.

ह्या दिसांनी आमी बायलांचेर जाल्ल्या अत्याचाराच्यो, बळजबरेच्यो खबरी आयकत आसतात. टी.वी.चेर ज्यो मालिका चलतात तातूंत आमी पळयतात, लग्न जाल्ले बायलेकूय हेर दादल्यांचे वेंगेंत धुकलतात. अभिजात साहित्यांत अशें केन्नाच आयिल्लें ना. साहित्यान सदां बायलांचो सन्मान केला. तांच्या मोगाळ वात्सल्याचे, आवयपणाचे गूण गायल्यात. आमच्या महाकाव्याच्यो दोन नायिका, सीता आनी द्रौपदी, हांच्या जाल्ल्या विनयभंगाक लागून हांगा दोन म्हाझुजां घडून आयल्यांत. परत एक फावट हांव तेंच सांगतां, साहित्या पसून पयस गेल्लीं मनांच संवेदनहीण जातात आनी बायलांचो अवमान करतात. बायलांचेर अत्याचार करतात.

हांव कोंकणी भाशेंतलो एक लेखक. पोर्तुगेजांनी गोंयाचेर साडेचारशीं वर्सां बळजबरेन राज्य केलें. त्या काळांत कोंकणी संस्कृतायेक आनी कोंकणी भाशेक चिड्डून माड्डून उडोवचेलो खूब यत्न जालो. तांच्या छळाक लागून गोंयचो कोंकणी लोक भारताच्या पुराय अस्तंत किनाऱ्यार फासपलो. गोंयचे सुटके उपरांतूय व्हड भाशेचे लोक कोंकणीक भाशाच न्ही म्हण किंकोंत लेखूंक लागले. तेन्ना कोंकणी भाशेच्या मोगान भाराविल्ले बरेचशे लेखक मुखार सरले आनी तांणी बरें साहित्य रचलें. अवघ्या चाळिशेक वर्सांतूच कोंकणी साहित्याचो मोटो मनभुलायणो ताजमहल उबो जालो. संवसारांतल्या भासांच्या इतिहासांतली ही एक अभूतपूर्व गजाल. आज कोंकणी भारताच्या संविधानाचे आठवे वळेरेंत आसपावल्या. तिका केंद्रीय साहित्य अकादेमीची मान्यताय मेळ्ळ्या. ती गोंय राज्याची राजभास जाल्या. तिका ज्ञानपीठ पुरस्कार फावो जाला.

परत एक फावट सांगतां, आमी भारतीय भाशांनी बरोवपी, वाचपी सगळे समानधर्मी साहित्योपासक. साहित्या वरवीं देशाचो एकवट राखचो यत्न सदां जायत रावंक जाय. हे खातीर आसामी साहित्य चड प्रमाणांत हेर भारतीय भासांनी अणकारीत जावन येत रावंक जाय.

*(हालींच बारपेटा जाल्ल्या आसाम साहित्य सभेच्या द्विवार्शीक साहित्य संमेलनांत मुखेल सोयरे म्हूण केल्लें भाशण, अणकारून.)*

संपर्क: ९७६४०७२९०८





दोतोराले लिखणेंतल्यान

# मुंबयंतल्यो चाळी

दत्ताराम सुखठणकार

मुंबयंत फुटपाथ बांदचे पयलीं लोक चाळींनी रावताले हाचे इतिहासांत खूब पुरावे आसात. मुंबयंतली पयली चाळ १७५२त आबा गणू हाणें बांदली. ती चाळ आज जंय भुलेश्वराचें देवूळ आसा ताचे नैऋत्येक पावणेदोन फर्लांगाचेर आसुये. आबा गणूक तीग पूत आशिल्ले. एक गोविंद आबा. हाचे बद्दल चडशी म्हायती मेळना. दुसरो धोंडी आबा. हाचें भुसारी दुकान आशिल्लें. १७९३ वर्सा पडिल्ल्या दुकळांत ताणें तांदूळ आनी गंव विकून आनीक दोन चाळी बांदल्यो. सखाराम आबाक सखूबाई म्हणून एकूच धूव आशिल्ली. तिचें लग्न ठाण्याच्या शंकर गुंडा हाच्या पुता कडेन थरिल्लें. तें जालें काय ना हाचे संबंदीं कांय माहिती मेळना. कॉन्स्टानटिनोपालचे लायब्ररींत आशिल्ल्या एका हातबरपांत ती सगली माहिती म्हाका मेळ्ळी. १७८१ वर्सा आल्फ्रेड फ्रेझर ह्या डच वेपाऱ्यान मुंबयच्यान ३५० काश्मिरी शाली युरोपांत व्हेल्यो असो उल्लेख कोपेनहागनचे लायब्ररींत आशिल्ल्या एका हातबरपांत आसा. कांय फटींग वा अर्दकुटे लोक फ्रेझरान ३५० काश्मिरी शाली म्हळ्यार पांगरुणां व्हेलीं अशें म्हणटात. पूण फ्रेझरान व्हेल्ल्यो त्यो काश्मिरी पद्दतीन बांदिल्ल्यो चाळीच, म्हळ्यार चाळींचें सामान, अशें म्हजें स्पश्ट मत आसा. हांवें वयर दिल्ले माहितीक कांय शाणे लोक आवय-बापूय नाशिल्ली निरुपयोगी इतिहासीक बडबड म्हणटले, हें हांव जाणां. पूण तिचे वयल्यान तुमकां म्हजी विद्वत्ता आनी इतिहास संशोधनांतलो म्हजो अधिकार समजलाच जातलो. इतलेंच न्हय तर हालींच हांवें "सोयाबीन : द स्टेपल डायट ऑफ गोअन्स", म्हळ्यार 'गोंयकारांचें मुखेल अन्न सोयाबीन' ह्या साडेतीन हजार पानी प्रबंधांत पुर्विल्ल्या काळा पसून गोंयकारांचें अन्न सोयाबिनूच कशें, हें सिद्ध केलां. दक्षीण अमेरिकेच्या आग्नेय भागांत आशिल्ल्या सेंट बॉर्जिस विद्यापीठान ताका विसाव्या शेंकड्यांतलो सगल्यांत बरो प्रबंध म्हळा. आमचे मजगतीं ही गूण पारखुपाची बड केन्ना येतली, म्हाका खबर ना.

मुंबयच्या जिवितांत चाळींक आगळीच सुवात आसा. एका काळार भोव करून सगलो मध्यमवर्ग चाळींनीच रावतालो. स्वातंत्र्य मेळटकच मध्यमवर्गाची परिस्थिती सुदारली. देशांतलीं सगलीं तळीं राखपाचें म्हत्वाचें काम ह्याच वर्गा कडेन आशिल्ल्यान तो चाळी सोडून ब्लॉकांनी रावपाक गेलो. पूण ह्या वर्गाक अजून केन्ना केन्ना चाळींची याद जाता आनी मागीर चाळींचीं काव्यमय वर्णनां सुरू जातात. काव्यां, नाटकां, एकपात्री प्रयोग, कांय विचारूं नाका. 'मेल्ले म्हशीक बारा शेर दूद', तशें 'सोडिल्ले चाळींत पोटभर सूख' असलोच

हो प्रकार. बायलो जाल्यार असल्या कार्यक्रमांत रडून आकांत करतात. चाळींची इतली तोखणाय जाली तरी ब्लॉक सोडून चाळींत परत रावंक वचपाक मात हे लेखक वा तांचे रसीक तयार जायत अशें दिसना.

चाळींत जागो थोडो आसता. एक वा दोन कुडी. मनशाक तीन फूट जमीन लागता हें टॉलस्टॉयाचें कोश्टक चाळींत जगतल्या लोकांनी सामकें चुकीचें थरयलां. १०×१२ चे कुडींत चाळीस लोक राविल्ले हांवें पळयल्यात. चाळींत रावतल्यां कडेन येते-वतेय खूब आसतात. नोकरी, शिक्षण करपी दोग-चौग सोयरे आसतातूच. पूण गांवचे लोक सोयरीक, वेपार, असलीं निमित्तां काडून म्हयन्याचे म्हयने तांगेर तळ दितात. चाळींत रावतल्यांचें मन मळबा इतलें व्हडलें आसता अशें हाचें काव्यमय कारण सांगपाची चाल आसा. खरी गजाल म्हळ्यार, चाळींत रावपी मनीस परिस्थितीन इतलो सपाट जाल्लो आसता की कोणाकूच 'ना' म्हणपाक ताका काळीज जायना.

चाळींत उदक हो एक जिवन मरणाचोच प्रस्न. मुंबयंतल्या चाळींनी मध्यान राती मागीर उदक दिवचें, आनी तेंय अर्द वरा परस चड न्हय असो नेम आशिल्ल्यान चाळींतल्यो दमयंत्यो नळाची आशेन वाट पळयत सबंद रात जागरणां करतात. ''वाट पळयतां दुकां गळयतां'' हे कवितेंत ह्या प्रसंगाचें सोबीत वर्णन केलां तें तुमकां खबर आसतलेंच. नळाक जाय तितलें उदक येना ताका लागून बाकीचें उदक लोक भैय्या कडल्यान घेतात. भैय्या घालता त्या उदकाक दूद म्हणपाची चाल आसा. पुर्विल्ल्या काळार भैय्यां कडेन म्हशी आसताल्यो आनी तांचें दूद ते विकताले. ताका लागून ही चाल पडल्या आसुये. भैय्याच्या उदका संबंदान लोकां मदीं खूब गैरसमज आसात. भैय्याचें उदक घाल्यार च्या रुचीक जाता, ताका लागून भुरग्यांक शक्त येता... भैय्याच्या उदकाचो दर हेर उदका परस चड आशिल्ल्यान भैय्याय हे गैरसमज कायम दवरपाचो यत्न करतात. आपल्या उदकांत भरसण जावची न्हय म्हण ते एके तरेचो पदार्थ घालून ताचो रंग धवसार करतात. हालीं हाचे संबंदीं खूब चळवळ जाली. निमाणें भैय्यांनी हाचे फुडें आपलें उदक धवसार करचें न्हय, वा ताका दूद म्हणचें न्हय, अशें कबूल केलें. भैय्यांचें लुकसाण जावचें न्हय म्हणून नळाच्या उदकाचें मोल भैय्याच्या उदका इतलें वाडोवचें अशें लोकांनी मान्य केलें. आमचे सगले प्रस्न अशे शाणेपणान सुट्टले अशी म्हाका आस्त आसा.

चाळींनी खाजगी अशें कांय नासता. एके कुडींत सांसव फुटल्यार ताचो आवाज सगली चाळभर आयकूंक येता. भुरग्यांचें सामान्यज्ञान जाल्यार सामान्या भायलें आसता. अपशब्दांनी फकत रागूच व्यक्त जावचो न्हय, ते तर्कशुद्ध आसचे हाचेरूय भर आसता. चाळींतली मुखेल गजाल म्हळ्यार, थंय रावतल्यांचे एकामेकां कडले संबंद कायम प्रेमाचे वा इश्टागतीचे अशे नासतातूच. कट्टर दुस्मानकाय सगलेच कडेन आसता अशेंय न्हय. पूण संकश्टांत फाटल्यो सगल्यो गजाली विसरून मदत करपाची प्रवृत्ती चड. म्हत्वाचें म्हळ्यार, सगले एकामेकांक वळखतात आनी वळखून आसतात. ब्लॉकांनी रावतल्यांचें ज्युस्त हाचे उरफाटें. सांसव सोडात, पूण एका ब्लॉकांत हायड्रोजन बॉम फुटलो जाल्यारूय दुसऱ्या ब्लॉकांत पत्तो लागपाचो ना. ब्लॉकांतले सगले एकामेकां कडेन अशे वागतात हाचें कारण म्हळ्यार, हे सगले ब्लॉक सोसायटयांचे आसतात आनी सोसायटयांचे हे बाबतींतले कायदे खूब कडक आसतात. एका ब्लॉकांतल्या मनशाक दुसऱ्या ब्लॉकांतल्या मनशाचें नांव खबर आसल्यार एक हजार रुपया दंड, तो ताचे कडेन उलयल्यार पांच हजार रुपया दंड, आनी ताणें ताका केन्नाय मदत केल्यार चोवीस वरां भितर ब्लॉक रिकामो करप अश्यो खर ख्यास्ती आशिल्ल्यान सगले सांबाळून आनी भियेवन चलतात. ब्लॉक जितलो म्हारग तितलो भंय चड हें सांगपाक नाका. ह्या कायदयांची जांकां खबर ना ते ब्लॉकांतल्या लोकांक मनीसघाणे समजतात.

चाळींतल्या लोकांक भौशीक कार्याची खूब आवड. सार्वजनीक गणेशोत्सव तांकां योग्य अशी संद दिता. गणेशोत्सवाच्या काळांतूच भावी काळांतले फुडारी निर्माण जातात. ही खरीच भाग्याची गजाल. गणेशोत्सवाच्या फंडा विशीं हांव इतलेंच सांगीन की देशांतल्या व्हडल्या व्हडल्या फंडांचे बाबतींत जें प्रामाणीकपणाचें आनी चारित्र्याचें दर्शन जाता तेंच दर्शन चाळींतल्या किरकोळ फंडाचेय बाबतींत जाता. फंडाच्या संबंदांत दुबाव दाखोवप ही एक संवसारीक घडणूक आशिल्ल्यान तिचे कडेन लक्ष दिवपाची गरज ना.

चाळींचीं नांवां हें एक वेगळेंच प्रकरण. धनयान उमेदीन आपले चाळीक 'आनंद महाल' हें नांव दवरिल्लें आसलें तरी लोक तिका 'वाकडी चाळ' म्हणुनूच वळखतात. कांय नांवा बाळबोध आसतात - 'शांतारामाची चाळ' वा 'गोरेगांवकरांची चाळ'. कांय नांवां भंय सुचोवपी आसतात. 'बंदूकवाला चाळ' आनी 'पठाण चाळ'. 'सुंदरी चाळ' आनी 'कबुतर चाळ' हीं नांवां मात रहस्यमय.

चाळीचें भाडें वसूल करपाचें काम भैय्या कडेन आसता. चाळकारांक धनयाचें दर्शन केन्नाच जायना. ताका लागून चाळींतल्यो सगल्यो कागाळ्यो भैय्या कडेन वतात. लोकांच्यो तक्रारी आयकुपाची, तांकां आस्वासनां दिवपाची आनी तक्रारीं संबंदान कांयच करिनासतना रावपाची ताची शक्त येदी की तो चुकून ह्या धंदयांत पडला अशें मनाक दिसता. योग्य अशें क्षेत्र मेळिल्लें जाल्यार तो खंयचे खंय पावतलो आशिल्लो.

हिंदुस्तानाक आशिल्लो जातीचो स्राप चाळींकूय बादला. प्रत्येक जातीची चाळ वेगळी. मराठ्यांचे चाळींत चित्पावन रावना आनी चित्पावनांच्या चाळींनी गोंयकार रावना. परके जातीचो मनीस चाळींत रावंक आयलो जाल्यार कोण विरोध करिना. पूण आयलो जाल्यार त्या मनशाकूच तो शेजार सोंसना. चित्पावनांचे चाळींत गोंयकार रावपाक गेल्यार ताच्या नुस्तें खावपाचेर बंदनां येतात. नुस्तें एक वेळ उदका बगर रावत, पूण गोंयकार नुस्त्या बगर? नांव काडूं नाकात. गोंयकारांले चाळी भायर बांगड्यांच्या कांट्यांची अशी तटबंदी केल्ली आसता की चिमाजी अप्पांच्या खंयच्याच वंशजाक ती मोडूंक जमपाची ना. एक खेपे एका गुजराती वैष्णवान गोंयकारांचे चाळींत एक जागो

घेतलो. ''सारस्वत एटले गोवाना ब्राह्मणच छे. ए तो सारूं थयूं,'' अशें म्हणून शेठाणीक घेवन तो रावंक आयलो. दुसऱ्या दिसाच्यान शेठाणीक ओंकारे सुरू जाले ते श्री बालाजीचे कृपेन काय चाळीच्या पांयगुणान हेंच बावड्यांक समजलें ना. दोन दीस खोशयेन काडले. तिसरे रातीं आंगल्याचे बायलेन सुको बांगडो भाजलो आनी शेठाणी वांगडा घोवाकूय ओंकारे सुरू जाले. बालाजी परस फातर्पेंकान्नूच श्रेश्ट थरली. आठ दिसां भितर रणछोडदास कांदिवलीक रावपाक गेलो. ''तेदूसची किसमूर मात जिबेर उरली आं'' अशी आंगलो बायलेची तोखणाय करता ती ओगी न्हय. तात्पर्य, गोंयकारांच्या सहवासांत सह-वासाचेरूच चड भर आसता हें सिद्ध जालें.

झुजा काळांत चाळींत एक वेगळेंच वातावरण निर्माण जाता. सगळे लोक एक जातात. फाटीं बांगला देश झूज जालें तेन्नाची गजाल. नागूसयाचे चाळींत वातावरण एकदम तापलें. मालदीकराच्या प्रकाशान सकाळींच वर्गणी एकठांय करून दुस्मानाल्या दोन फुडाऱ्यांचीं तणाचीं बावलीं मिरवणूक काडून हुलपायलीं. शेजरा एक व्हिक्टोरियावालो रावतालो. तागेलें तण चोरून हाडलें. हो कार्यक्रम मागीर सदांच, तणाचो सांठो सोंपऽ म्हणसर चल्लो. रक्तदानाची कल्पना कोणाक तरी येवजली. ''रक्तदान-बिक्तदान, नाका जाल्लीं तीं लफडीं नाकात'' पोमेंडकारान मोडटें घाले. ''चौंसश्ट प्रकारचीं रक्तां आसता, आनी एकाचें रगत दुसऱ्याक चालुचें ना. काय तरीच काय!''

पोमेंडकाराली सुचोवणी पयलेच खेपे चाळींत एका मतान पास जाली. ताका लागून पोमेंडकाराक आनिकूच जल चडलें. ''तेचे ऐवजी पोरांक समरगितां-बिमरगितां शिकया.'' पोमेंडकाराची मृदंग बडोवपाची खुमखुमी आपाप भागतली आसली. चाळींत नाना चरेकरा कडेन पेटी आशिल्ली. ''काळी पाचचो सुरूच खराब जाला तो पयलीं घालूंक व्हयो,'' ताणें आपलो सूर लायलो. हय-ना करीत प्रकाशान फंडांतले साडेतीन रुपया काडून दिले. कांय वेळान चरेकर पेट्रोलाचो डबो घेवन भायर सरलो. आनी अर्द वरानूच परतलो. ताणें येतनाच साडेतीन रुपयांच्या सुराक सोळा रुपया पडटात म्हणून वेपाऱ्यांचो कडक उतरांनी उद्धार केलो.

तीस रुपयांच्या फंडांतले आतां फकत दोन-तीन रुपया उरिल्ले. बाकीचे पयशे हां हां करतासर ना जाल्ले. ताका लागून प्रकाश विचारांत पडलो. सोळा रुपया मागले जाल्यार ते दिवपाक शिल्लक नाशिल्ले. बरें, खर्च कसो जालो म्हणून विचारल्यार ताचो हिशोबूय नाशिल्लो.

पूण चरेकरानूच वाट काडली. ''तूं घाबरूं नको. मी करतंय तें.'' अशें म्हणून ताणें पेटी काडली. पोमेंडकाराचो मृदंग तयारूच आशिल्लो. चाळींतलीं पोरां आशिल्लींच. थोड्याच वेळान चरेकरान तांकां ''जिंकूं किंवा मरूं'', ''इंच इंच लढवू'' आनी ''जन गण मन'' हीं तिनूय पदां ''रमला कुठे ग कान्हा'' हे एकेच चालीर शिकयलीं.

दनपरां प्रकाशान नवीच कल्पना काडली. बायलांक कवायत शिकोवपाची. मसुरेकाराल्या मीनाक ही कल्पना इतली आवडली की ताणें सगली चाळ माथ्यार घेतली. कवायती वेळार तें साडयेच्या जाग्यार पँट घालपाचें आशिल्लें. पूण मसुरेकारान घात केलो. ''माका बाबा भंय वाटता. शत्रू केन्ना काय करीत काय सांगपा येता?'' अशें म्हणत तो सहकुटुंब सांजचोच गांवाक गेलो.

सातार्डेकाराचे बायलेक विमानहल्लो पळोवपाची चड उमेद. घोव गांवाक गेल्लो. सांजवेळ जाली की ती भुरग्यांक घेवन तेर्रासार वचून बसताली. आनीक कित्या खातीर न्हय तरी तिचे खातीर तरी मुंबयचेर चार बॉम पडूंक जाय आशिल्ले अशें म्हाका दिसता.

एक दीस देसायांच्या गोपीन आज मुंबयचेर बॉम हल्लो जातलोच अशी खात्रीची बातमी हाडली. ''मामी तुज्या पांयां पडतंय, पण आज मात तूं खोली सोडून जावं नाका'' अशें ताणें सातार्डेकान्नीक सगल्यां हुजीर सांगलें. पूण सातार्डेकान्न आयकता? ''मरुचां आसल्यार खंयय मरतलें. हंय काय आनी गच्चेर काय'' अशें म्हणून पांच वरांचेरूच तेर्रासार वचून बसली. धा वरांचेर काळखांत ती परती आयली जाल्यार घरांत चोरी जाल्ली. चोरी लक्षांत येतकर सातार्डेकान्नीन जो आकांत केलो तो आयकून नाऱ्या देवळ्यान गोड गैरसमज करून रेडकारा कडेन सातार्डेकाराक श्रद्धांजली दिली. सातार्डेकारा कडल्यान पांच वर्सां पयलीं हातउश्णे म्हणून घेतिल्ले पंचवीस रुपया आपणाक पचले जावये असो ताचो समज जाल्लो. सातार्डेकान्नीन पयसो दोन पयशे करून एकठांय केल्ले साडेतिनशीं रुपया ना जाल्ले. आपलें आयकलें ना म्हणून गोपीन तिका खूब उलयली. आनी ठाण्यार वचून कंप्लेन दिवया म्हणून आग्रो केलो. पूण तीच फाटीं सरली. आपूण तेर्रासार गेल्ली हें पोलिसांक कळ्ळ्यार कितें जातलें हे गजालीक ती भियेली जावये. ''देव आसल्यार बघून घेत'' इतलें म्हणून ती ओगी रावली. देवान चोराचें कितें केलें हें समजुपाची वाट ना. पूण गोपीक मात ताच्या पुण्याचें बक्षीस रोखडेंच मेळ्ळें. आठूच दिसांनी ताका भोवंक गेल्लो थंय एक नवी ताल्ल घडयाळ रस्त्यार पडिल्ली मेळ्ळी. तिनशीं रुपयांची तरी आसतली. चाळींत उपकाराची भावना मातूय ना. नाजाल्यार सातार्डेकान्न गोपीचे आवय कडेन उलोवपाची बंद कित्याक जातली आशिल्ली?

अशो ह्यो चाळी. आज चाळींची परिस्थिती भयंकर जाल्या. फाटल्या पंचवीस-तीस वर्सांत मुंबयंत एकूय नवी चाळ कोणें बांदूंक ना. म्हारगाय इतली वाडली तरी चाळीचें भाडें पोरणेंच आसा. चाळ विकूंक काडल्यार पंचवीस हजार लेगीत मोल येना. पूण तीच चाळ कोंसळून पडत जाल्यार मालकाक जमनीचे धा-पंदरा लाख सहज येतात. मालक हे दुडू केन्ना मेळटात हाचीच वाट पळयत बसल्यात. हालीं चाळी दुरुस्त करपाचें काम भैय्यांनी आपल्या हातांत घेतलां. ताका लागून आनीक कांय वर्सां तरी त्यो उब्यो उरतल्यो आशिल्ल्यो हीय आशा ना जाल्या!

पयली उजवाडावणी:
*राष्ट्रमत,* आयतार, १५ ऑक्टोबर १९९५.



# जिणेच्या भोंवऱ्यांत

-किरण म्हांबरे

म्हजी वळख करून दितना हांवें फकत म्हजें नांव सांगून उपकरचें ना. म्हजें शिक्षण, म्हजो वेवसाय हांतल्यानूय म्हजी सगली वळख जावची ना. ही अशी वळख 'भायली' वळख थारतली. म्हजे भोंवतणी रावपी, म्हजे जिणेंत हे न्हय ते तरेन आशिल्ल्या सगल्यांक ह्यो गजाली खबर आसात. तरीकूय जण एकल्याक हांव वेगळे भशेन दिसतां. कोणाक हांव शूर वीर दिसपूय शक्य आसा.

हांव खरें कशें हें म्हाका विचारशात तर हांव म्हणन,

ह्या मेळ्यांत म्हाका सुवात ना.<br>
मेळटा ते सुवातेर पांय रोमून उबें रावंक<br>
म्हाका केन्ना जमलें ना.<br>
म्हजे पांय मेणाचे<br>
धडेर बसून उदकांत सोडपाचे<br>
फातर फोडून झर काडूंक<br>
तांचे कडेन बळगें ना.

तशें पळयल्यार म्हजीच वळख म्हाका मेळना. दुसऱ्याची वळख कशी मेळटली? आपल्याक दिसता तें फकत भायलें रूप. कोणाच्या मनांत कितें आसा, ताचे तोच जाणा.

सामान्यांची फटवणूक अशीच जाता जावये.

आमी मनशां एकामेकांक समजून घेवंक शकतात. आमी दुसऱ्यांच्या दुख्खान व्यथीत जातात, अस्वस्थ जातात.

संवसारांत सगल्यांनी सुखी जावचें अशें दिसून आमी कांय तत्वां थारायतात. मुल्यां मानतात. पूण आपणें निष्ठा ओंपून पाळो दिल्ल्या तत्वांचो आपणेंच व्हड मानिल्ल्या मनशां कडल्यान खेळ मांडिल्लो दिसता तेदेवेळार तकली सुन्न जाता.

एकाद्र्याची बुद्द, क्षमता, ताचें शिक्षण, गिन्यान पळोवन आमी ताका आमचे भितर उंचेली सुवात दितात. ताचो भोवमान करतात. सामान्यांक दिसता, आपूण ताचे मुखार दुर्बळ; प्रसंगार ह्या मनशाचो आपल्याक सहवास मेळटा; ताचे कडेन आपणें ल्हान जावंक  हरकत ना; ताका व्हड मानूंक कांय लुकसाण ना.

आनी भोवमान घेवपीय तेंच समजता. आपले कडेन क्षमता आसा, देखून आपूण व्हडूच. भोवमान करून घेवप आपलो हक. ताका मागीर कसलीच लागणूक उरना.

एका वेळार तो अशेंय समजता की आपणें आपले क्षमतेचो वापर दुसऱ्या विरुद्ध केलो जाल्यार दुसऱ्याचें लुकसाण जावं येता. देखून आपणें तशें वागूं नये म्हण दुसऱ्यांनी जतनाय घेवची. सदांच आपल्याक खूश दवरचें.

मनांत प्रस्न येता,

हींच आमचीं तत्वमुल्यां?

सामान्यांचे दुर्बळकायेचो फायदो घेवप होच आमचो पराक्रम?

सामान्यांचेर अन्याय करून जियेवप हेंच आमचें श्रेष्ठत्व? आनी, ह्या अन्यायाक कोणूच जाप दिवंक शकना?

सामर्थ्यवानाक आपली न्यायबुद्द जागी दवरपाची गरज ना?

मागीर न्याय अन्याय थारावप कसो?
नीत-अनीत कित्याक म्हणप?
कोणाक विचारूं?

तकलेंत प्रस्नांची गर्दी जाता, मन उद्‌विग्न जाता, तेदेवेळार म्हणन दिसता,

एका देवाची गरज आसा
सगले प्रस्न विचारूंक
सगली कैफियत मांडूंक
सगले जाब विचारूंक
सगलो शीण काडूंक
झगडूंक आनी तिडकूंक.

तेन्ना कळटा,

एकाय देवाक गरज ना
एकाय म्हज्या प्रस्नाची जाप दिवंक
एकूय उतर म्हजे कैफियतींतलें
भर दिवन आयकून घेवंक
एकेय जिणेक म्हजे सारके
अस्तित्वाचो मान दिवंक.

देव तरी खंय आसा?

सगलें सैम रचून जातकच ताचे कडेन सगलीं सुत्रां सोंपोवन मेकळो जालो तो. आनी सैमाचो नेम पळयत जाल्यार दिसता, आंगांत बळगें आसा तोच जियेता. कोणें कोणाक आदार दिवचो, आदार दिवचो काय ना हाचें सैमाक पडून वचूंक ना.

उरफाटें, सबळान दुर्बळाक मारून खालेंना जाल्यार सबळ जियेवंक शकना. म्हळ्यार, बळगें जोडप होच उपाय.

दुसऱ्याच खिणाक दिसता, म्हणून नितीमुल्यांक कांयच म्हत्व ना?

तीं अशींच पांया मुळा चिड्डुपाचीं? आपल्याक जाय तेन्ना जाय तश्यो मुल्यांच्यो फास्क्यो मोडून आपल्याक जाय तश्यो घडोवपाच्यो?

निदान भोंवतणी चल्लां तें पळयल्यार अशेंच दिसता. संस्कृती आनी विकृती शीम-मेर हुपून एकामेकांत भरसतात आनी प्रकृतीच्या नांवान ताचें समर्थन करपी तयार जातात.

तत्वमुल्यां उरतात तीं उलोवन व्हडपण दाखोवपा पुरतीं.

खरें पळयल्यार, सोरो पियेतल्याक सोऱ्याची धुंद आसता. घुंवळी वखदां घेतल्याक वखदांची धुंद. मनशाक ते ते गजालीचें वेसन जाता. ते ते गजालीचे अधीन जाता मनीस.

अशीच धुंद आनीक जायत्या गजालींची आसता. पयशे जोडटल्याक पयश्यांची, सत्ता भोगतल्याक सत्तेची, आनी नामना जोडटल्याक नामनेचीय धुंद चडटा. मागीर ते गजालीचें वेसन जाता आनी ती मेळोवपा खातीर आडवीं येवपी नितीमुल्यांची मोडतोड सुरू जाता.

आपली बुद्द, गिन्यान, पयसो, सत्ता हांच्या बळग्यार मनीस आपल्याक जाय तशीं मुल्यां मांडपाचो यत्न करता.

निमाणें सापेक्षतावाद होय सैमाचोच नेम.

ताचोच फायदो घेवन आंगांत बळगें आशिल्लो सामान्यांची दिशाभूल करूंक पळयता आनी सामान्यांची तत्वनिश्ठा दुबळेपणां थारतात.

न्याय, न्याय करून न्याया फाटल्यान धावलीं म्हण न्याय मेळटाच असो ना. निमाणें हार मानची पडटा ती तत्वांक निष्ठा ओंपिल्ल्या सामान्य मनशांक. अन्याया बरोबर पराभवाचें दुख्ख. दिसता, भोंगूं आशिल्लो तो न्याय आनी भोंगूं आशिल्लो तो हक. अन्याय आपले पुरतोच दुख्ख दितलो आशिल्लो. तातूंत आनी पराभवाच्या दुख्खाची भर पडची नाशिल्ली.

खूब उसरां न्याय मेळ्ळो तरी तेदेवेळार मानसीक, शारिरीक आनीक बाकीची जायते तरेची हानी जाल्ली आसता. बेठींच लागलीं न्याया फाटल्यान. ते परस अन्याय परवडिल्लो अशें दिसूंक लागता.

न्याया विशींच्यो आपल्योच कल्पना चुकीच्यो नाशिल्ल्यो मूं, अशेंय दिसले बगर रावना.

सैमाचो नेम कितें काय न्याय अन्याया विशीं?
सैम खुबत जाल्यारूय दुर्बळांचोच बळी वता.

आपणेंय अशेंच आपले पुरतें पळोवन जियेवपाचें? आपलो जीव वाटावप हेंच ध्येय मानचें? मागीर मन तत्वां विरुद्ध वचूंक कित्याक तयार नासता?

नीत अनीत मानिनासतना नाडपेन्नां करून आपलें सादून घेवप आपल्याकूय शक्य आशिल्लें. मन कित्याक मानूंक तयार जायना?

एके वटेन संतापाचो उद्रेक, एके वटेन वैफल्याची विरजणी - मागीर आपशींच उतरां येतात -

घटगुणो फातर जावन हड्ड्यार ठाण मांडून बसचें
काय अशेंच कापूर जावन अचळय हवेंत उडून वचचें?

थेंबा थेंबान गळून जमनीर मोव मातयेंत जिरून वचचें,
काय अशेंच आकांताळ्या हुंवाराचो सांवार जावचें?

विचारांच्या भोंवऱ्यांत मन सांपडटा.
परत परत तेंच तेंच दिसता -

धुंदीत बुडटा सामर्थ्य आनी नदरेचो कोन ढळटा.
खरें फट न्यायनीत शोभादर्शकांतल्यान घुंवता.
सैमूय बी आपलें दान बळिश्टाचे होटयेंत घालता.

सुक्या काश्टा वरी उफेत उफेत ओघा सरशीं व्हांवन वचचें
काय...

आनी मन भानार येता.
हांव समर्थ आनी दुबळो हांचे मदीं गफलत करिना मूं?
जांकां तत्वां सांबाळूंक येनात ते समर्थ कशे?
हांगाय सापेक्षतावाद येता.
तत्वां सांबाळुंकूच खरें सामर्थ्य लागता.
तीं सांबाळूंक दुबळो थारतकरूच नाडपेन्नां करचीं पडटात.
देखून मागीर हांव म्हणटां -

सुक्या काश्टा वरी कित्याक ओघा सरशीं व्हांवन वचचें?
कित्याक न्हय आसा थंयच धांव घेवन जमनींत रुजचें
खंय तरी प्रवाहाक मातशें तरी आडखळचें
केन्ना तरी प्रवाहान वेगळें नवें मोणण घेवचें.

संपर्क: ८००७२३१०७५



# गांठवलांत पडिल्ल्यो गांठी सोडटाना...

- डॅनीस व्हाज

"A good novel tells us the truth about its hero, but a bad novel tells us the truth about its author" अशें गिल्बर्ट चॅस्टर्टन हांणी म्हणलां. पूण केन्ना केन्ना वायट कादंबरी लेखकाचें बरेंय सांगता अशें म्हजें मत. ह्याच तत्वाक धरून हांव *गांठवल* कादंबरेचेर बरयतां.

देविदास कदम हांचे *दिका* हे कादंबरेक २००८ वर्साचो साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो जालो. तांची ही कादंबरी २००४ वर्सा उजवाडाक आयिल्ली. *गांठवल* कादंबरेन २००६ वर्सा जल्म घेतलो. दोनूय कादंबऱ्यांच्या उजवाडा येवपाच्या काळा भितर दोन वर्सांचें अंतर आसा. ह्या दोनूय कादंबऱ्यां मदीं बरोच फरकूय दिसता. *दिका* वाचकाच्या काळजाक पीळ घालता तशी *गांठवल* घालना. वाचकाचे नदरेन पळोवंक गेल्यार *गांठवल* पयली कादंबरी आनी *दिका* दुसरी अशें दिसता.

*गांठवल* वाचतना मनांत कांय प्रस्न उबे जातात. *गांठवल* खऱ्यांनीच कादंबरी ह्या साहित्यप्रकारांत बसता व्हय? ह्या प्रस्नाची जाप 'हय' जाल्यार तिचो *दिका* सारको विकास कित्याक जावंक ना?

*गांठवलां* त कादंबरेचीं तत्वां उणीं आनी दीर्घकथेचीं तत्वां चड दिसतात. ही खरी दीर्घकथा. रेणूची कथा. रेणूच्या दुःखाची कथा. दुःखाच्या तळ्यांत बुडिल्ल्या रेणूचें चित्रण लेखकान हे कथेंत केलां.

*गांठवलां*तलीं मुखेल पात्रां रेणू, भालचंद्र, अनुसया आनी शशिकांत. तिचें कथानक ह्या सगळ्या पात्रांतल्यान उबें जालां. पूण लेखकान आपली लिखणी रेणूचेरूच दवरल्या. कादंबरेचो एक मुखेल घटक म्हळ्यार, ह्या बरपांत कथानका बरोबर उपकथानक येता. *गांठवलां* त रेणूचें कथानक मुखेल अशें मानलें जाल्यार तातूंतलें उपकथानक अनुसयाचें वा भालचंद्राचें. पूण हें फावो सारकें आयलां अशें दिसना. लेखक अनुसया विशीं सांगता, अनुसया आनी तिच्या भुरग्या विशीं सांगता, आनी रोखडोच हे उपकथेक पूर्णविराम लायता. अशें दिसता, उपकथानकांची वाड जावची न्हय म्हूण लेखकान तांच्यो काणयो खापावन उडयल्यात. कादंबरेंतलें मुखेल कथानक म्हळ्यार रुखाचें कांड, आनी उपकथानक म्हळ्यार त्या रुखाच्यो खांदयो. रूख सोबीत दिसतलो जाल्यार ह्यो दोनूय गजाली म्हत्वाच्यो. रुखाचें कांड मोटें जावचें म्हणून केन्ना केन्ना मनीस ताच्यो खांदयो कातरून उडयता. तशेंच, रेणूचें कथानक मोटें आनी व्हड करपाक जाय म्हण लेखकान उपकथानकां मारून उडयल्यांत अशें दिसता.

रेणूची पुराय जीण दुःखान कश्टान भरिल्ली. एके चलयेची, वा म्हणुया मनशाची, जीण इतली दुःखां-कश्टांनी भरिल्ली आसता काय? खंय ना खंय थोडेंशें सुखूय हे जिणेक आफुडिल्लें जाल्यार बरें दिसपाचें. कादंबरेंत सुरवेक लेखकान जें रेणूचें दुःख मांडलां तें अनुसयाच्या दुःखा परस खुबूच चड जालां. रेणूक हुनेन दिल्ल्या दुःखा परस अनुसयाचें दुःख खूब व्हड आसा. अनुसयाचें भुरगें मरता. पूण कादंबरेंत आवयची आपल्या भुरग्या विशींची ओड व्हडलीशी दिश्टी पडना. ह्या दुःखान

वाचकांचें काळीज कळवळपाक जाय आशिल्लें, पूण तशें तें जायना. ह्या प्रसंगाक लेखकान आनीक मातसो भावनीक चित्रणाचो लेप लावपाक जाय आसलो.

कादंबरेंतले चडशे प्रसंग लेखकान मुद्दम घडयल्यात अशें दिसता. देखीक, रेणूच्या घराब्यांत एका वर्सा भितर एका फाटल्यान एक अशीं तीन मर्णां जातात. पयलो रेणूचो बापूय, उपरांत कांय दिसांनी आवय, आनी मागीर थोड्याच म्हयन्यांनी भाव, भालचंद्र. हें रेणूच्या नशिबाचें गणीत अशें जर आमी म्हणलें जाल्यार म्हणचें पडटा, तें एक आनी एक दोन मेरेन, मर्यादेंत आसपाचें. लेखकान दोनाचें तीन केलें आनी गणीत चुकयलें. रेणूच्या वांट्याक अनर्थाचें दुःख आयलां अशें दाखोवपाक लेखकान हें गणीत चुकयलां अशें दिसले बगर रावना. अशे प्रसंग melodramatic फिल्मांनी खूब लोकप्रिय जाल्यात. पूण कादंबरेंत न्हय. कादंबरी वाचतना वाचक पात्रां भितर आपली जीण पळयता. ते खातीर कादंबरेंत प्रसंग आपले-आपूण, सहज येवपाक जाय.

*गांठवल* ही एकविसाव्या शेंकड्यांतली कादंबरी. पूण तांतल्या पात्रांची मानसीकताय आजून एकुणिसाव्या शेंकड्यांतलीच उरिल्ली पळोवंक मेळटा. रातचो भालू रडप म्हळ्यार वायट चिन्न, बायल गुरवार आसतना घोवान जिवाण्याक मारूंक जायना, आदी. ह्यो गजाली एकविसाव्या शेंकड्यांतल्या पात्रांच्या मनांत घोळप योग्य दिसना. चड करून रेणूच्या आनी भालचंद्राच्या मनांत. कारण दोगांयकूय इल्लेंशें तरी शिक्षण आशिल्लें. ह्यो गजाली रेणूचीं आवय-बापूय मानतालीं जाल्यार समजूं येतालें.

दुसरी एक गजाल - रेणू एक आधुनीक चली. ही चली कादंबरेंत खंयचेच कडेन धाडस कित्याक दाखयना? जिवितांत जें मुखार आयलां तो नशिबाचो खेळ अशें तें कित्याक मानता? एकविसाव्या शेंकड्यांतल्यो उपचारीक शिक्षण घेवंक पावंक नाशिल्ल्यो बायलो पासून आयज धाडस दाखयतात. म्हणटकच, लेखकान रेणू हें पात्र उबें करतना तें एक सवणें कशें उबें केलां, जाची पाखां कापून ताका पांजऱ्यांत न्हय, उकत्या मळार सोडलां. हें सवणें खंयच्यानूय उडूंक शकता. पूण उडटलें जाल्यार पांखांचो ताका सांगात ना.

कादंबरी वाचले उपरांत ज्या कारवार वाटाराचें वातावरण निर्माण जावपाक जाय आशिल्लें तें योग्य रितीन निर्माण जावपाक उणें पडलां. कादंबरेंत घडणुको बऱ्योच आयल्यात, पूण त्या घडणुकांक वातावरणाचो सांगात मेळना. रेणूचें कुटुंब कोंसळपाच्या देंटार पावलां. घराच्यो तीन वणटी (रेणूचो बापूय, आवय आनी भाव) कोंसळून पडल्यात. एकूच वणत अनुसया, ह्या घराच्या पुराय पाख्याचो पेज कशी सांबाळटा काय? तेंच हे कादंबरेंत गुपीत उरलां. अनुसयाच्या घोवाच्या मरणा उपरांत ताचें दुःख, कश्ट, संकश्ट आनी जीण जाणून घेवपाची वाचकांची उमळशीक अर्दकुट्या सपना सारकी अर्दूच उरल्या.

एड्स हो भयंकर रोग जाले उपरांत रेणून गांठवल सोडचें काय ना हो प्रस्न लेखकान वाचकांचेर सोडला. पूण घोवाक एड्स जावपाक रेणू कारण नासून पासून ताका घरचीं हिणसायतात तेन्ना ताचो घोव आपलें तोंड कित्याक उगडना? एड्स आशिल्ल्या घोवा बरोबर रावन मानसीक नदरेन ताका तें आदार दिता. पूण ताचो घोव ताका कितें दिता? ह्या असल्या प्रस्नाचेर जेन्ना वाचक विचार करता तेन्ना मात ही कादंबरी एक वेगळी दिशा घेता. पूण काळजाक हात घालपी विशय आसून सुद्दां हे कादंबरेन वाचकांचेर जसो परिणाम करपाक जाय आसलो तो करपाक ती मातशी उणी पडटा.

पुराय कादंबरेचेर प्रतिक्रिया मांडची जाल्यार, *गांठवल* हे कादंबरेचो विशय खुबूच खोल आसा. हे कादंबरेंत कल्पनाशक्तीचो योग्य वापर जाला. पूण विस्तार उणो जाल्ल्यान आनी अती दुःख दाखोवपाच्या प्रयत्नान ती मातशी फाटीं उरल्या अशेंच म्हणचें पडटा.

संपर्कः ९९२३६५७१६४



चवदावी खिस्त

# म्हजो रवीन्द्र सांगात

दिलीप बोरकार

## धर्माची नवी वळख...

रवीन्द्रबाब खऱ्यांनीच कोण? एक रायटर? एक फायटर? एक राजकारणी? म्हाका अजून तांची तशी सारकी वळख जावंक नाशिल्ली. म्हाका तांची वळख जावंक नाशिल्ली काय म्हजीच म्हाका वळख घडूंक नाशिल्ली? हांवूच घुस्पागोंदळांत पडिल्लों. रवीन्द्रबाबान म्हाका म्हणिल्लेंच, ही पिरायूच अशी, मनशाक हुमकळत दवरपी. मनशाक आपलें फिल्ड मेळना, मळ मेळना ते मेरेन तो आसता डँगलिंग मॅन!

म्हजी पिराय आशिल्ली वीस वर्सांची. रवीन्द्रबाब बावन्न वर्सांचे! म्हजे परस बत्तीस वर्सांनी व्हड. तांणी म्हाका सांगप, मनशाची अठरा ते चोवीस वर्सां मेरेनची पिराय खूब संवेदनशील आसता. ह्या वेळार ताका कितें करचें, खंयच्या मार्गान वचचें तें कळना. ताका आपलें क्षेत्र सांपडना. केन्ना हें बरें, केन्ना तें बरें अशें दिसूंक लागता. तेच वांगडा ताचे भितर एक आकांताळी शक्त आसता. आख्खें जग आरत्याचें परतें करपाचो हावेस ताच्या मनांत आसता. एक खेपे ताका आपलें क्षेत्र - फिल्ड - मेळ्ळें म्हणटकच तो जाग्यार येता.

रवीन्द्रबाब जें कितें सांगताले तातूंत तथ्य आशिल्लें. म्हाका कितें करप तेंच कळनाशिल्लें. आतांच हें तर आतांच तें करन दिसतालें!

''हें फिल्ड म्हळ्यार कितें?'' एक दीस हांवें रवीन्द्रबाबांक विचारलें. रवीन्द्रबाब म्हजे कडल्यान ह्याच प्रस्नाची अपेक्षा करताले जावये! वो, म्हजें हुमकळपी मन थिरायेर हाडपाचे नदरेन ते म्हाका कांय गजाली सांगूंक सोदताले जावये!

''मनशाची अठरा ते चोवीस ही पिराय खूब म्हत्वाची. ह्या काळांत मनीस आपलें फिल्ड सोदता.''

म्हज्या तोंडा कडेन पळयत, म्हजी प्रतिक्रिया जाणून घेवंक सोदिल्ले वरी रवीन्द्रबाब उलयताले.

''दरेका भुरग्याचो अठरा वर्सां पयलींचो काळ आवय-बापूय, शिक्षक हांच्या मार्गदर्शना खाला सरता. आवय-बापायक, शिक्षकाक, म्हळ्यार गुरूक, जशें त्या भुरग्याचे नदरेन योग्य दिसता तशें शिक्षण दिवन तीं ताका घडयतात, आनी भुरगोय तांच्या मार्गदर्शना खाला, तांणी दाखयल्ले वाटेन चलत रावता.''

रवीन्द्रबाब सांगताल्ले तें खरें आशिल्लें. म्हजेच बाबतींत न्हय तर म्हजे पिरायेच्या सगळ्या भुरग्यांचे बाबतींतूय होच अणभव आशिल्लो. आमी कितें करपाचें, कितें शिकपाचें हें आमचे परस आमचे शिक्षकूच चड जाणा आशिल्ले. विद्यालयीन शिक्षण सोंपोवन म्हाविद्यालयांत पावल दवरलें तेन्ना

मात दरेक पावल आमकां विचार करून घालचें पडटालें. विद्यालयांत शिक्षकांचो जो भंय आमकां आशिल्लो तो आतां म्हाविद्यालयांत नाशिल्लो. 'जाय जाल्यार शिकात, ना जाल्यार मरात' अशीच शिक्षकांची चलणूक आशिल्ली. अशा वेळार म्हजे सारक्या विद्यार्थ्यांनी करप किते?

एक गजाल मात खरी!काळ मनशाक घडयत आसता. कोणें कितें करपाचें हें काळ थारायता, आनी ते प्रमाण त्या त्या मनशाक अचूक जाय थंय व्हरून पावयता. हो दैववादी विचार न्हय! फुडलें शिकप घेवंक जाय हे एकेच भावनेन, एकाच ध्येयान हांव शारांत आयिल्लों. कॉलेजांत कितें शिकयतात, हांव कित्याक शिकतां कित्याचोच कित्याच कडेन मेळ बसऽ नाशिल्लो. एकूच हावेस आशिल्लो, डिग्री घेवपाचो! ती घेवन नोकरी सोदपाचो! थंय मागीर खंयचें फिल्ड आनी खंयचें क्षेत्र! दुडू मेळटा थंय आपले श्रम दिवपाचे, मन मारून!

रवीन्द्रबाब ह्याच विचारांतल्यान म्हाका मेकळीक दिवंक पळयताले जावंक जाय. शिक्षण गिन्यान जोडपा खातीर आसता, गिन्यानाचो वापर आपलें जिवीत अर्थपूर्ण करपा खातीर आसता. खरेलें सूख जाय जाल्यार हातांत मना सारकें काम जाय! तुका जंय उबगण येना, उरफाटें काम करूंक खोस भोगता तें तुजें फिल्ड! थंय तूं मागीर कितले पयशे मेळ्ळे, मेळ्ळे काय मेळूंक नात हाचो विचार करीत बसना. हाकाच तुजें फिल्ड म्हणटात. जे मेरेन तुजें फिल्ड तुका मेळना ते मेरेन तुजें मन थीर उरना. पिरायेच्या तेवीस-चोवीस वर्सा मेरेन हो प्रकार घडटा आनी मागीर मन थीर जाता. हांव गेलां ते स्टेजींतल्यान - रवीन्द्रबाब सांगताले! सांगताले काय समजायताले? म्हजी पिराय कोणेंय म्हाका समजावचो अशीच आशिल्ली.

''धर्म, अर्थ, काम,मोक्ष हे पुरुशार्थाचे चार पांवडे. मनशान धर्मान जियेवंक जाय. धर्मभ्रश्ट मनीस मोक्ष जोडूंक पावना. धर्म म्हळ्यार हिंदू, इस्लाम बी असले धर्म न्हय... चोरी करून अर्थ प्राप्ती जाता.पूण चोरी करप, लूटमार करप आमचो धर्म न्हय. तातूंतल्यान कितलोय दुडू मेळ्ळो तरी ही अर्थप्राप्ती 'काम' म्हळ्यार सूख दिना. जांकां तातूंत सूख दिसता तें अडेचें, दाखोवपाचें सूख.तातूंत तांकां समाधान मेळना. म्हणटकच, तुका खरेलें सूख जाय जाल्यार तुवें ताचे खातीर जे दुडू जाय ते धर्मान जोडूंक जाय. तेन्नाच तुका सुखान जिवीत सारूंक मेळटा आनी मोक्षप्राप्ती जाता. मोक्ष म्हळ्यार मेले उपरांत बी मेळटा अशी जी संकल्पना आसा तो न्हय. मोक्ष म्हळ्यार अणभव. आपूण जें कितें करतां तें सगळें हांगाच सोंसचें पडटा.मर्णा उपरांत न्हय.धर्म, अर्थ, काम हे पुरुशार्थ जोडटना आपणें खऱ्यांनीच अणभव घेतला तो 'समा' आसा काय ना? तातूंत आपूण समाधानी आसां काय ना? हो जो कितें विचार आसा, सिंहावलोकन आसा तोच मोक्षाचो विचार! तातूंत समाधानी आसा ही भावना मनांत उदेली जाल्यारूच तो मोक्ष म्हणपाचो. मनीस प्राण सोडपाक तेन्ना निश्चिंत जाता. ना जाल्यार तो तळमळत उरता.''

रवीन्द्रबाबांचें उलोवप हांव समजून घेतालों. म्हाका कितले मेरेन कळ्ळां तें रवीन्द्रबाबांक समजून घेवपाचें आसतालें. आपणें जें कितें सांगलां तें आयकतल्याक कळ्ळां म्हणपाची खात्री जायसर ते वेगवेगळीं मोस्त्रां दिवन समजावपाचें काम करताले. धर्म, अर्थ, काम, मोक्ष बी गजाली वाचनांतल्यान म्हाका समजल्ल्यो. हांगा रवीन्द्रबाब तांची वेगळे तरेन विसकटावणी दिताले. धर्म, अर्थ, काम, मोक्ष हांची संकल्पना म्हजे नदरेन खऱ्यांनीच वेगळी आशिल्ली. जो धर्म पाळटा, जो दुडू जोडटा, जो सुखां भोगता तोच मोक्षाक पावता. तेन्नाच तो मनीस पुरुशार्थी आसता असो सो म्हजो समज आशिल्लो. पूण पुरुशार्थ म्हळ्यार वेगळेंच कितें हें म्हाका समजलें तें रवीन्द्रबाबान दिल्ल्या एका उदाहरणान. तांणी म्हळें -

''तूं आगशीचो मरे? आगशी गांव नुस्त्याक फामाद.''

हांवें हय म्हूण तकली हालयली. आगशेचीं चोरिसांय फामाद अशें हांव सांगूंक वतालों. पूण ओगीच रावलों.

''तुवें शंबर रुपया दिवन पाटलो भर नुस्तें घेतलें आनी तें वांटे घालून विकूंक बसलो जाल्यार शंबरांचे तिनशीं रुपया सहज करतलो. तुका ताचेर दोनशीं टक्के फायदो जातलो. पूण नुस्तें विकप तुजो धर्म न्हय... त्या दोनशीं रुपयांचो वापर करून तूं जाय जाय तें खाण आनी गरजेच्यो वस्तू घेतलो. पूण तुका तातूंत समाधान मेळटलेंच अशें ना. कित्याक तर तुवें केल्ली अर्थप्राप्ती, दुडवांची जोड धर्मान करूंक ना. जी अर्थप्राप्ती धर्मान जायना, तिका मान नासता. मटको, जुगार बी खेळून अर्थप्राप्ती जाता. फोल्गांय मारूंक मेळटात. पूण समाजांत ते जोडीक आनी फोल्गांक मान नासता. आनी असले जोडींतल्यान केन्ना कोणाक सूख मेळटा? म्हणटकच कामप्राप्तीय ना. असल्या आयुश्यांत आपणें जिवीत कश्या कशेंय घालयलें अशें निमण्या वेळार दिसूंक लागता आनी जिवितांत कसलोच अणभव मेळूंक नाशिल्ल्यान मोक्षप्राप्तीय जायना.''

अशें हें आमचें अदीं मदीं उलोवप चलतालें. रवीन्द्रबाब सांगताले, आपणें नोकरी केन्ना केलिना. एकूच केली ती लायब्रेरियनाची. पूण ती 'नोकरी' अशें आपल्याक केन्ना दिसलें ना. हेर कडेन खंयचीय नोकरी केल्ली जाल्यार चड पगार मेळपाचो. पूण हांगा जें कितें मेळटालें तातूंत आपूण समाधानी आशिल्लों.

रवीन्द्रबाब जें कितें सांगूंक सोदतात तें म्हाका होलमतालें. तरी एक प्रस्न पडटालो, तो म्हळ्यार, रवीन्द्रबाब हे जे इतले व्याप घेवन बसल्यात तातूंत तांचो धर्म खंयचो? कोंकणी चळवळ घेवन बसल्यात ती कांय तांचे जोडीचें, अर्थप्राप्तीचें साधन न्हय; राजकारणांत बदल हाडपा खातीर वावुरतात तोय तांचो वेवसाय न्हय. सातत्यान बरयत आसतात, तातूंतल्यान जी कितें जोड जाता ती तर सामकी नगण्य! तरी रवीन्द्रबाब समाधानी दिसताले! गांधीजी सांगताले, मनशान आपल्यो गरजो वाडूंक दिवंक फावना. उण्यांत उण्यो गरजो आसत जाल्यार मनीस सुखी आसता अशें सांगून आपल्यो गरजो उण्यो दवरच्यो अशें ते म्हणटाले आनी तेंच आचरणांत हाडटाले. हाचे वेल्यान हांवें म्हजे भितर तर्क काडलो, तो म्हळ्यार - रवीन्द्रबाब राजकारणी न्हय. रवीन्द्रबाब साहित्यीक. तोच तांचो धर्म. तातुंतूच तांकां समाधान लाभता. गजाल खरीय आशिल्ली. रवीन्द्रबाब साहित्यांत, साहित्यीक कार्यावळींनी रमताले. राजकारणांत चड वेळ दिवपाची गरज आसतनाय, साहित्य आनी साहित्यीक कार्यावळींक

चड वेळ दिताले.

१९७७ हें शणै गोंयबाब जल्मशताब्दी वर्स. तेच प्रमाण, हें वर्स म्हळ्यार देशांत काँग्रेस सरकाराक दाळाक लावन, इंदिरा गांधींची हुकूमशाय राजवट सोंपोवन जयप्रकाश नारायणांचे संकल्पनेंतल्यान जल्माक आयिल्ले लोकशाय राजवटीच्या उदयाचें वर्स. आपले कल्पने प्रमाण देशांत लोकशायप्रेमी लोकांची राजवट आयल्या म्हूण रवीन्द्रबाब खूश आशिल्ले. मोरारजी देसाय तर प्रधानमंत्री जाल्ले. आतां दोन-तीन म्हयन्यांनी गोंयचें म.गो. सरकार वचून, मराठीवाद्यांचें सरकार नानपयत जावन, नवें सरकार सदरेर येतलें अशी रवीन्द्रबाबांक आस्त आशिल्ली. मे-जून म्हयन्यांत विधानसभा वेंचणूक जावपाची शक्यताय आशिल्ली. मोरारजी देसाय धरून मृणाल गोरे, मधु दंडवते, जॉर्ज फेर्नांडीस, राजनारायण, लालकृष्ण अडवाणी बी कितलेशे राष्ट्रीय फुडारी विधानसभा वेंचणुकेच्या प्रचारा खातीर गोंयांत येवपाचे आशिल्ले. तांकां शक्य जाल्यार म्हजे सारक्यांनी मेळचें आनी राजकारण समजून घेवचें अशें रवीन्द्रबाबांक दिसतालें. ते खातीर ते म्हाका कोमार काडटाले, तरी आपलो चड वेळ जनता पक्षाच्या कार्याक दिवपा बदला कोंकणी चळवळीक दिताले. हांवूय मागीर बार्का फाटल्यान पनेळ कसो तांचे फाटल्यान फाटल्यान आसतालों!

हांवें थारायल्लें, रवीन्द्रबाब सांगतात तशे, संद मेळत जाल्यार, मोरारजी सारक्या राष्ट्रीय फुडाऱ्यांक मेळपाचें! आनी ते खातीर म्हाका संद घेवपाचीय गरज नाशिल्ली. गोंयचे जे जे कोण व्हडले फुडारी आशिल्ले, म्हणचे काशिनाथ परब, मोहन रानडे, विश्वनाथ आर्लेकार, डॉ. जॅक सिकैर, जी.वाय. भांडारी, माधव बीर, शिवाजी देसाय, व्हितोरिया फेर्नांडीस बी, तांचे वांगडा हांव वावुरपी कसो वावुरतालों. पूण त्या राजकारणांत म्हाका गोडी नाशिल्ली. म्हजोय ओडो कोंकणी चळवळी कडेन आनी साहित्या कडेन आशिल्लो! राजकी कार्यावळीं परस हांव साहित्यीक कार्यावळींक प्राधान्य दितालों. ते भायर, फाटलें वर्सभर शणै गोंयबाब जन्मशताब्दी उत्सवाचो हांव ऑफीस इनचार्ज आशिल्लों. जन्मशताब्दी उत्सव तसो सोंपपा कडेन पाविल्लो. तरी कांय कडेन कार्यावळी जाताल्यो.

कोंकणींतल्यान म्हजें बरोवप सुरू जाल्लेंच. कोंकणी भाशा मंडळाचे सप्तकी कार्यावळींत साहित्याचें सादरीकरण जातालें. 'लळितक' म्हूण शणै गोंयबाब जल्मशती महोत्सव काळांत एक साहित्यीक कार्यावळ सुरू जाल्ली. तातुंतूय हांव वांटो घेतालों आनी *राष्ट्रमतां*तले 'सोमार' हें कोंकणी पुरवणेंत म्हजें साहित्यूय उजवाडाक येवंक लागिल्लें. म्हज्या ह्या वावराचेर रवीन्द्रबाबांची नदर आसा काय कितें हाची म्हाका कल्पना नाशिल्ली. तरी म्हाका दिसतालें, रवीन्द्रबाबान तें वाचचें, म्हजी तोखणाय बी करची! पूण अजून मेरेन तांणी तशी कांयच दखल घेवंक नाशिल्ली. पुंडलीक, शीला, रमेश, माधव बोरकार बी हांची ते तोखणाय करताले. उलयतनाय आनी बरयतनाय! म्हणचे, रवीन्द्रबाब ह्याच लोकांचें वाचतात तर! म्हजें वाचिनात बी आसतले अशें शें कितें दिसून हांव विरूस जातालों.

दर म्हयन्याक *जाग* नेमान येवंक लागिल्लें. *जागां*त म्हजीय कविता बी येवची अशें म्हाका दिसतालें. पूण रवीन्द्रबाब मागी नाशिल्ले. आपूण जावन तांणी मागचें अशें दिसतालें. 'सोमारा'ची गजाल वेगळी. थंय आपलेपण अशें कांयच नाशिल्लें. सगळेच कितें कितें बरोवन धाडून दिताले तसो हांवूय धाडटालों आनी धाडिल्लें छापून येतालें. *जागा*क रवीन्द्रबाब, सुमंतबाब साहित्य मागून घेताले. म्हजे मुखारूच रमेश, अरुण सिंगबाळ आनी कोणा कोणाक सांगताले, ''आरे फुडल्या म्हयन्याक तुजी कविता जाय, कथा जाय.'' पूण हांव फाटल्यान फुडल्यान भोंवता आसतनाय म्हजे कडेन कविता, लेख बी मागपाचें सोडाच, हेर कडेन म्हजें जें कितें छापून येतालें ताचेरूय कांयच उलय नाशिल्ले.

जाग प्रकाशनान पुंडलीक नायकाची *बांबर* ही नवलिका उजवाडाक हाडिल्ली. ही नवलिका क्रांतीकारी, कोंकणी साहित्य मळार खवदळ घालपी अशें कितें कितें आयकूंक येतालें. कोण तिका पोजडी, बुरशी बी म्हणटाले. जाग प्रकाशनान ती काडल्या देखून जाग प्रकाशन वायट गजाली समाजांत मातयता अशें कितें कितें लोक उलयताले. सुमंत केळेकार जाग प्रकाशनाचे प्रकाशक आसले तरी सगळें रवीन्द्र केळेकारूच थारायतात अशेंय कोंकणी साहित्य वर्तुळाचें मत जाल्लें. जागा सारके एके प्रकाशन संस्थेन ही नवलिका उजवाडा हाडची न्हय, जागान आपली पत देंवोवची न्हय अशीं मतां त्या वेळार भासाभाशेक येतालीं. सुमंतबाब आनी रवीन्द्रबाब ह्याच विशया वेल्यान खर वादूय करताले. म्हाका तातूंतलें कांयच कळनाशिल्ल्यान हांव ओग्गी बसून सगळें आयकतालों. रवीन्द्रबाब मात ती नवलिका छापुंकूच जाय आनी कोंकणींत असलें साहित्य निर्माण करपाची तांक आसा हें दाखोवन दिवंक जाय असो आग्रो धरून आशिल्ले.

शेवटाक *बांबर* पुस्तक छापून आयलें. लोकांनी तें वाचलें. हांवेंय वाचून काडलें, असले तरेचीं मराठींतलीं पुस्तकां हांवें वाचिल्लीं. पूण तीं हांव वाचतां हें कोणाक कळचें न्हय देखून चोरून वाचतालों. हांवें *बांबर* वाचलें तेन्ना तातूंतली भास म्हाका संवकळीची लागिल्ली. तातूंत पुंडलीकान जें कितें वर्णन केलां तें वाचून आंगार रोमांच बी येवप म्हणटात तें सगलें जातालें. असलें पुस्तक वाचतना कोणेंय पळयलो जाल्यार कितें? म्हूण तें चोरुनूच वाचून जाल्लें. पूण रवीन्द्रबाब तें बरें साहित्य म्हणटात म्हूण हांवूय ताका बरें म्हणटालों. पूण चार चवगां सामकार वाचपाचें धाडस म्हाका जाय नाशिल्लें.

एके वटेन रवीन्द्रबाब देशांत इंदिरा गांधी सारके हुकूमशाय गाजोवंक सोदपी बायलेक सत्ते भायरी करूंक जाय म्हूण वावुरताले, आनी दुसरे वटेन कोंकणी साहित्यांत क्रांती घडोवन हाडपाच्या हावेसान निर्णय घेताले. दोनूय गजाली तांच्या जिवाभावाच्यो. दोनूय गजाली घडुंकूच जाय हो तांचो हावेस. एकाच स्तराचेर तांचो हो वावर चलतालो. खंयच धांवपळ ना, खंयच ताप घेतिल्लो दिसप ना. तोंडार एक मिश्कील हय न्हयसो हांसो दवरून शांतपणान काम करीत रावप हो तांचो सभाव हांव पळयतालों. अणभवतालों.

केंद्रांत रवीन्द्रबाबांच्या मना प्रमाण इंदिरा गांधींचें एकाधिकारशायेचें सरकार वचून जनता पक्षाचें सरकार सदरेर आयिल्लें, आनी त्याच वेळार पुंडलीक नायकाची *बांबर* नवलिका उजवाडाक आयिल्ली. तिचें प्रकाशनूय जाल्लें जावंक जाय. हांव त्या प्रकाशनाक नाशिल्लों.

तें केलांय म्हणपाची म्हाका कल्पना नाशिल्ली. पूण ह्याच काळांत, १५ मार्च १९७७ ह्या दिसा, कोंकणी भाशा मंडळान पणजेच्या इन्स्टिट्यूट मिनेझीस ब्रागांझा सभाघरांत *बांबर* नवलिकेचेर भासाभास घडोवन हाडिल्ली. *लोकभारत* नेमाळ्याचे संपादक कॉम्रेड नारायण देसाय, पणजेचे दत्ता श्री. नायक, शंकर परुळेकार, रवीन्द्रबाब, रामकृष्ण जुवारकार, माधव बोरकार बी त्या पुस्तकाचेर उलोवपाचे, भासाभास करपाचे आशिल्ले.

कोंकणी चळवळींत जे जे कोण आमी आशिल्ले ते एकामेकांक एका कुटुंबाचे वांगडी मानून एकामेकां कडेन भोव मायेमोगान वागताले. कोंकणी भाशा मंडळाचे बसकेंत थोडी वादावादीय जाता अशें हांवें आयकल्लें पूण म्हाका ताचो अणभव नाशिल्लो. पूण इन्स्टिट्यूट मिनेझीस ब्रागांझा सभाघरांतले ते पुस्तका वेले चर्चेंत जें कितें घडलें तें पळोवन म्हजो आवरो उडलो.

म्हाका *बांबर* नवलिका आवडिल्ली. हांवें तातूंतले कांय परिच्छेद लिपून शे परते परते वाचिल्ले. जांकां मराठींतल्यो पांचट कांदबऱ्यो म्हणटात त्यो वाचपाचो म्हाका अणभव आशिल्लो. पूण इतलें स्पश्ट आनी भडक अशें वर्णन हांव वाचतालों तें पयलेच खेपे आनी तेंय बी कोंकणींत. तेच नवलिकेचेर रासवळ चर्चा दवरिल्ली. तातूंत हेरांचें कितें म्हणणें आसा तें आयकुपाची म्हाका उत्सूकताय आशिल्ली.

वर्चेक आरंब जालो. कोण कोण कितें कितें उलयले. सगळ्यांचो सूर एकूच आशिल्लो. तो म्हळ्यार, कोंकणी साहित्य आतांच वयर सरता. लोक कोंकणी साहित्या कडेन अजून अनवाळ्या सारके पळयतात. तांचे मुखार असलीं पोजडीं पुस्तकां आयलीं जाल्यार जे कोण कोंकणी साहित्या कडेन वळटात ते लेगीत फाट परतितले. पूण रवीन्द्रबाब एकटेच पुंडलीक आनी ताचे ते *बांबर* नवलिकेचें समर्थन करताले. *बांबर* यशस्वी नवलिका थारपाचें कारण म्हळ्यार ती एका विशिश्ट जिवनाचें चित्रण करता, स्लम एरियाचो सोद घेवपाचो यत्न करता, अशें ते थंय जमिल्ल्यांक सांगपाचो यत्न करताले. पूण तांचें म्हणणें आयकून घेवपाचे मनस्थितींत कोणूच नाशिल्लो. दरेकलो पुंडलीक नायक, ताची ती नवलिका आनी ते नवलिकेचो प्रकाशक हांचेर अक्षरशा तुटून पडिल्ले. तांकां थंडपणान जाप दिवपाचें काम रवीन्द्रबाब करताले!

हे सगळे चर्चेंत अतिरेक केलो तो दत्ता श्री. नायक हांणी. तांणी जितली म्हूण टिका करूं येता तितलीय आपल्या कणखर आवाजांत केली. रवीन्द्रबाबाक लेगीत सोडलोना. शेवटाक तांणी ती 'पोजडी' कादंबरी पुंडलीक नायकान बरयल्या म्हूण ताचो, ती जागान छापल्या म्हूण सुमंतबाबाचो आनी रवीन्द्रबाब तांचो समर्थक म्हूण रवीन्द्रबाबांचो निशेध करून उबी आडवी पिंजली आनी भुरग्यांची हळशीक लेगीत काडपाचे लायकीचीं तीं पानां नात म्हूण ती थंय आपटून भायर सरून गेले.

जें कितें चलतालें तें रवीन्द्रबाब शांतपणान पळयताले आनी खंयच आवाज चडयनासतना शांतपणान उलयताले. थंय जें कितें घडलें ताचो तांचेर कांयच परिणाम जाल्लो दिसऽ नाशिल्लो वो अशें घडपाचें आसा हें खबर आशिल्ल्यान ते तशे तयारेनूच आयिल्ले जावंक जाय!

म्हजे खातीर ही सांज आगळी-वेगळी आशिल्ली. दत्ता नायकां सारकी एक व्यक्ती उजो ओंकताली आनी रवीन्द्रबाबां सारकी दुसरी व्यक्ती शांत म्हासमुद्रा सारकी सुस्त आशिल्ली... रवीन्द्रबाबान एक खेपे उलयतां उलयतां म्हणिल्लें, जो दर्या पळोवंक शांत दिसता तो शांत आसना. ताच्या पोटांत आकांताची उचांबळाय आसता. रवीन्द्रबाब जरी वयलेतराक शांत दिसले तरी तांचे भितर खवदळ चल्ला जावंक जाय अशें म्हाका दिसतालें. ताचो अणभवूय म्हाका त्याच म्हयन्यांत आयलो.

मार्च म्हयन्यांत सेगीत दोन 'सोमार' पुरवण्यांनी म्हजे दोन लेख उजवाडाक आयिल्ले. एक 'व्हंकल पावणी' म्हूण कथा आशिल्ली, आनी दुसरो, भगतसिंगाचेर मुखेल लेख. रवीन्द्रबाबान म्हजें तें साहित्य वाचूंक ना म्हणपाचो म्हजो समज आशिल्लो. तेच पासत हांव तांचेर मनांतल्या मनांत शिणटालों! पूण म्हजो तो चुकीचो समज आशिल्लो. रवीन्द्रबाब जे कोण कोकणींत बरयतात, जावं ते नवे वो पोरणे, तांचें सगळ्यांचें बरप बारकायेन वाचताले. कांय जाणांच्या तोंडार ते तांच्या बरपा विशीं उलोवं नाका मागीर! पूण वाचले बगर रावऽ नाशिल्ले.

हांव तांगेर पावलों तेन्ना तांचे भितरलो खवदळ भायर सरूंक लागिल्लो.

"'सोमारा' वेले तुजे दोनूय लेख हांवें वाचले." रवीन्द्रबाबान अशें म्हणूं नाका, म्हाका धसको सो बसलो. मार्च म्हयनो सोंपिल्लो आनी एप्रीलाक आरंब जाल्लो. रवीन्द्रबाब म्हजो एप्रील फूल करतात अशें दिसपा सारकीच गजाल ती!

तो काळूच असो आशिल्लो, आमचे सारके जे कोण बरयतात तें सट्सट् करून छापून येवपा सारकें एकूय माध्यम नाशिल्लें. तातूंत म्हजे सारक्याचें एका फाटल्यान एक छापून आयिल्ल्यान नाय म्हळ्यार म्हजीं भुजां मातशीं वयर सरिल्लीं. सगळ्यांनी तें वाचलां आनी सगळे म्हजे कडेन तोखणायेन पळयतात असो भास जावपा सारकीच पिराय ती! तातूंत रवीन्द्रबाबान आपणें तुजे दोनूय लेख वाचल्यात अशें म्हणप म्हळ्यार लेगीत म्हाका कुपांचेर बसोवंक पुरो आशिल्लें. हांव सगळें भान सोडून रवीन्द्रबाबांच्या तोंडा कडेन पळयत आशिल्लों.

"कोंकणींत आतां बरी बरी साहित्य निर्मणी जावंक जाय. पूण जितली जावंक जाय तितली ती जायना."

रवीन्द्रबाब सांगताले, ती खरी गजाल आसूंक जाय.म्हाका तातूंतलें कांयच कळनाशिल्लें. चडशे लोक कविताच बरयताले. रवीन्द्रबाब म्हणऽ, कोंकणींत चवग-पांच जाण सोडीत जाल्यार बाकीचे सगळे सुस्ती आयिल्ले भशेन चलतात. नवें कितेंच निर्माण करिनात. नवे बरपी मुखारूच येनात!

म्हणटकच रवीन्द्रबाब म्हजे कडेन नवो बरपी बी म्हूण पळयतात काय?

"म्हाका बरोवपाची आवड आसा. पूण तें छापतलो कोण? बरयलां तें छापपा सारकें आसा हें आमकां कशें कळप?"

म्हज्या मनांत कितें घोळटालें तें हांवें रवीन्द्रबाबां मुखार दवरलें. तातूंत रवीन्द्रबाब म्हज्या बरोवपा विशीं कितें म्हणटात हें जाणून घेवपाचीच चड उमळशीक आशिल्ली.

"कोण छापतलो, ताचो दर्जो कितें हाचो हुसको बरोवप्यान करूंक फावना. फकत आपूण कितें बरयतां हाचें भान बरोवप्याक आसूंक जाय म्हणटकच जालें. बरें आसा तें इंद्रायणींत बुडयल्यार लेगीत वयर तरता."

रवीन्द्रबाब जें कितें सांगताले तें हांव कान दिवन आयकतालों. पूण म्हज्या बरपा विशीं ते विशेश अशें कांयच उलय नाशिल्ले देखून हांव विरूस सो जाल्लों भितरल्यान...

"तुमी सतत बरयत बसतात?"

म्हज्या प्रस्नान रवीन्द्रबाब म्हजे कडेन पळयत रावले...

"अशें कोण सांगता? बरोवपी केन्नाच तशें करिना. साहित्य निर्मणेची एक 'अर्ज' (urge) भितरल्यान येता तेन्नाच कितेंय बरोवन जाता. हे 'अर्जी'चो आनी पयश्यांचो कांय संबंद ना. नांवाचो आनी किर्तीचोय तिचे कडेन संबंद ना. ती निर्मणेची अर्ज आसता. निर्मणी हेंच तिचें फळ आनी निर्मणी होच तिचो आनंद..."

रवीन्द्रबाब इतलें सांगून रावले. मागीर "बस आं! येतां" म्हणत उठले आनी भितर गेले. भितर गेले तशे भायर आयले. तांच्या हातांत सिगरेटीचें पाकीट आशिल्लें. फोर स्क्वेअर. फस्क आनी सिगरेट पाकीट शेजारचे टिपॉयचेर दवरून तांणी म्हजे कडेन पळयलें.

"हांव बरयन दिसना जाल्यार बरयना. बरयन दिसता तेन्नाच बरयतां. I sing because I must अशें कोणें तरी म्हळां. तें हेच पासत. गायले बगर रावं नजऽ जाता तेन्नाच कवी गायता.कथाय तेन्नाच 'येता' आनी वैचारीक लेखूय तेन्नाच बरोवन जाता. जाय ती बरोवपाची अर्ज. ही अर्ज जाका आसा तो केन्नाच सस्थ बसून रावचो ना. ती ताका सस्थ बसुंकूच दिवचिना. तुमचे भितरली ही साहित्य निर्मणेची अर्ज आटिल्ली म्हाका नाका. ती आटली जाल्यार कोंकणीचें नशीब म्हणपाचें."

हांव तल्लीन जावन आयकतालों. म्हाका जें कितें समजूंक जाय आशिल्लें तें बेस बरें समजल्लें. म्हज्या बरपाची रवीन्द्रबाबान तोखणाय करपाची वो तातूंतलीं कुतां काडपाची गरजूच नाशिल्ली.

"कोंकणींत जितली साहित्य निर्मणी जावंक जाय आशिल्ली तितली कित्याक जायना हाची जाप तुगी जण एकल्यान आपल्या अंतस्कर्णाक विचारून सोदूंक जाय. हय मरे?"

असो प्रस्न करून रवीन्द्रबाबान सिगरेट पाकीट उखल्लें. तातूंतली एक सिगरेट काडली आनी पेटयली.

"पुंडलीक , रमेश, अगा बी बरयतात न्हय सातत्यान..."

हांवें अशें म्हणू नाका, रवीन्द्रबाबांचे दोळे लिकलिकले. एक आगळीच चमक शी तांच्या दोळ्यांत म्हाका दिसली. फाटल्या सप्तकांत जें कितें घडलें तें रवीन्द्रबाब विसरूंक नाशिल्ले.

"पुंडलीक बरयता... पूण ताच्या बरोवपाचें कितें जालें तें पळयलें मरे तुवें? अश्यो तिसत्यो वादऱ्यो जातात."

सिगरेटीचो निमणो झुरको घेत आनी पोंतेर ॲश ट्रेंत चिड्डीत रवीन्द्रबाबान म्हजे कडेन पळयलें आनी मुमुरखोच सो हांसलो. रवीन्द्रबाबांचें हें हांसपूच पिशें लावपा सारकें. ते त्या हांसपांतल्यान कितें सांगूंक सोदतात तेंच कळऽ नाशिल्लें.

"तुवें वाचल्या मरे *बांबर?"*

रवीन्द्रबाबांच्या ह्या प्रस्नान हांव मातसो आबूज सो जालों. तिचेर म्हाका उलोवचें पडत बी म्हूण म्हाका थरथरो सुटलो. ती नवलिका म्हाका आवडिल्ली. पर्थून पर्थून वाचची शी दिसताली. पूण घरच्यांनी वाचची न्हय अशें दिसतालें. आतां हें हांव रवीन्द्रबाबांक कशें सांगतलों? हांवें फकत 'हय' म्हूण मान हालयली.

"आवडली?"

"हय"

"असल्यो नवलिका, साहित्य आवडूंक फावना. तें जो कोण बरयता ताचो राग येवंक फावना, ते नवलिकेंत वो बरपांत जें कितें बरयलां ताचो राग येवंक जाय."

रवीन्द्रबाब अशें म्हणून म्हज्या तोंडा कडेन पळयत रावले. म्हाका आपूण सांगता तें कितले मेरेन कळटा हाचो अदमास घेतिल्ले बशेन!

"समाजांत जी घाण आसा, जी ताका दिसल्या तीच पुंडलीकान *बांबरां*त हाडल्या. गोंयांत असलोय समाज आसा हें दाखोवन दिवन ताणें आमचेर खूब उपकार केल्यात. मागीर ताची आमी तोखणाय करचेनात?"

रवीन्द्रबाबांच्या ह्या प्रस्नाक कितें जाप दिवची हें म्हाका कळ्ळें ना. पयरचो एकान एक प्रसंग म्हज्या दोळ्यां मुखार आशिल्लो. चर्चेंत वांटो घेतिल्लो प्रत्येक जाण पुंडलीक आनी रवीन्द्रबाब हांच्या विरोधांत उलयतालो. दत्ता नायकान तर सामको हल्लोच केल्लो रवीन्द्रबाबांचेर. रामकृष्ण जुवारकार बी सगळे दत्ताबाबांचे वटेन आशिल्ले. शंकर परुळेकार बी 'कादंबरी बरी आसा. पूण इतलें वर्णन नाका आशिल्लें' अशे आपले भितरूच उलयताले. पुंडलीका फाटल्यान रवीन्द्रबाब समर्थपणान एकटेच उबे आशिल्ले.

"कोंकणी पुस्तकांची आयजवेर फकत तुस्तूच जाताली. आतां यूग बदल्लें. आतां निंदाय जावपाक लागल्या. ही निंदा मराठीवादी करिनात तर खासा कोंकणीवादीच करूंक लागल्यात ही बऱ्याची गजाल घडटा. कोंकणीचो फुडार परजळीत आसा ."

इतलें उलोवन रवीन्द्रबाब परत एक खेपे आपले भितरूच मुमुरख्यांनी हांसले. तांचो हात सिगरेटीच्या पाकिटा कडेन गेलो. तेन्नाच भायर गाडयेचो आवाज आयलो. रवीन्द्रबाबान सिगरेट पाकीट आसा तशें टिपॉयचेर दवरलें आनी तुरतुरीत उठून भायर गेले. भायर कोण तरी आयिल्ले. तांकां पळोवन रवीन्द्रबाबांच्या मुखामळार प्रसन्नताय फांकली. खोस दाटून आयली.

"या. या. अलभ्य लाभ!" म्हणत रवीन्द्रबाब सोंपणां देंवन सकयल गेले. कोण तरी एक बायल-मनीस आशिल्ली. खादी कपड्यांतली. कपलाक मोठ्ठो कुकूम लायिल्ली. तिका घेवन रवीन्द्रबाब भितर आयले. "आगो गोदू, कोण आयल्या पळय! मृणाल गोरे!"

ल्हान भुरग्यांचे उमेदीन रवीन्द्रबाबान गोदूबायक सांगलें.

संपर्क: ८००७२३१०७५



अठ्ठाविसावी खिस्त

## दिसपटी

शांताराम आमोणकार

# सामान्य मनीस पिसावता भायलोटाक

**शेनवार, २७.१.१९५१**

प्रत्येक गजालींत हांव काळजी घेतां. मनाचेर पसून भार. शरिराचेर तर जालोच. अशें चल्लां... जाचें काम जाता तो म्हाका खूब बरो म्हणटा. जाचें जालेंना तो गाळी सांगता. दोगांयचें खरें न्हय?

तोंड धांपून खबरी करपाच्यो. पणून तो म्हजो सभाव न्हय. म्हजे कडेन सेग्रेदी म्हणटात त्यो नाच. बरेंय तें खूबदां... आतां पर्यंत सरळपणाक लागून म्हाका खूब नुकसान आयलें खरें. फायदयाची क्वांतिदाद त्या मानान खूब उणी जाली. तरी एकेच खबरीचेर म्हजी मदार - क्वालिदाद. म्हाका आतां मेरेन मेळ्ळां तें थोडें. दुसऱ्याचे नदरेन तर तें थोडें आनी क्षुद्र दिसतलें. ते म्हणटले, ह्या पोराक लागलां पिशें; आपल्याक मेळ्ळां तेंच खूब समजता. हांव म्हणटां, सगळ्याचेंच मोल सगळ्यांक समजना. सामान्य मनशाचो दोळो देखाव्याचेर खिळून आसता. ते पिसावता भायलोटाक. व्हड मन आनी विशाळ अंतस्कर्णाचें मोल सगळ्यांकूच समजुचेंना. ताची गोडी वेगळीच. म्हादेवाची करणी सामान्यांक न्हय. तांचे खातीर कृष्णाचो अवतार. खूब लोकांक कृष्णाचो अवतार मना पसून आवडटा. कारण, तांच्या धर्मांत समान भाव आसतात. तांची बुद्द थंय पर्यंत पावता. म्हादेवाचें कर्तुत्व, ताची ती काया, ताचो सोभावळो, ताचे छंद, ताचीं पिशेपणां, तें विक्ख पियेवप आनी मागीर ते खातीर धांवाधांव करप, ताचो तो तिसरो दोळो, ताचें लग्न - सगळें सगळें ताच्या नांवा सारकेंच महान आनी शिव. ताची चव सामान्यांक समजुपाचो आग्रो धरप सुद्धां पिशेपण.

ह्या देवा संबंदान पयलीं पसून म्हाका ओड. कित्याक? बराबर जाप दिवपाक येवचिना म्हाका. आनी तेंच बरें आसता खूबदां.

सगळ्याक एकूच सोलुसांव - काम! कामांत तकली सारकी घालप. सारको कितें ना कितें वावर करीत रावप. ते शिवाय दुसरो मार्ग म्हाका तरी दिसना...

सगळी वागपाची पद्धत पयलीं भाशेन ताळ्यार हाडली. वागणूक सुधारली खूबशी. ताका लागून मनाक थंडसाण आयली. कॅगेऱ्याचें जमल्यार आनीक एक कटकट मेकळी जातली... पिरंगुपाचें सोडून दिलां...

**मंगळार, ३०.१.१९५१**

आज महात्मा गांधीचो मर्ण दीस. ताका मारलो आनी तो मेलो इतलीच ताचे कुडीची अवतार समाप्ती. व्हडल्या मनशाचें सादें मरण हें.

ह्या दिसा म्हाका कसलेंच पाल्हाळ बरोवपाचें ना. ह्या दिसाचें म्हत्व, त्या मनशाचें म्हात्म्य सांगपा परस समजुपांत चड मोल आसा.

जीण एके ठरावीक वेव्हारीक मांडणेर हाडल्या. खर्च उणो केला. उलयतांय बी तांतले तातूंत थोडो. कोणाच कडेन व्हडलोसो घनिश्ट संबंद ना. सगलें खरें. पूण हें सगलें 'नेगासांव'. 'आफिर्मासांव' न्हय. सगलें न्हय म्हणपांत व्हडलेंशें श्रेय ना शें न्हय. तरी पणून, इतलें ना म्हणपा परस मातशें शें आसा म्हणपांत चड अर्थ आसा न्हय?

आतां खूब मेकळीक मेळटा. शिकपूय पुरो जालें आतां. पुस्तक आतां पावचें ना. पोट खूब जालें. तें लागलांच फाटीक. आतां spiritual value पळोवप. कैवल्यधामाचो तो मॅनेजर - भूषणजी. कितलो थंड आनी तेजस्वी सभाव ताचो! पळेल्यारूच मन खोशी जाता... थंयसून रोखडीच म्हजेर स्वत:चेर नदर वतकच जमीन-आसमान न्हय जाल्यारूय तसलें दिसलेंच. ना. आतां म्हज्यांत बदल जातलोच. ताका थोडीं भायलीं कारणांय आसात आनी भितल्लींय आसात... आतां सारकें येवजप... रडप, पिरंगप बंद.

**मुंबय, बिरेस्तार, १ फेब्रेर १९५१.**

कितें बरोवचें तेंच समजना जावन गेलां. जिणेचें एक पर्व सोंपलें. कितल्या बोवाळांत गेलीं वर्सां! एका फाटल्यान एक बऱ्या, वांकड्या गजालींची सांखळी वचत आशिल्ली. एके वटेन, घडून गेल्ल्या गजालींक बऱ्यो म्हणूंक जाय...

जे तरेन दीस काडपाचे तशे काडलेनात हांवें. अजुनूय तशेंच चल्लां. चुको घडटात सगळ्यांच कडल्यान. पणून एकदां चूक म्हणून समजून आयली जाल्यार तातूंत बदल करूंक नाका मनशान? तेंच करीत रावप म्हळ्यार बरें? म्हाका चूक रोखडीच वळखूंक येता. निगूत करपाक मात उशीर वता. जमच ना मात पसून. भौन भौन तेंच. मिठा बरी विरघळटां. वज्रा भाशेन तीखपण नाच.

एकेखबरीन मातशी जाग हाडली. आयुश्याचो turning point म्हणटात तसोच तो. ताचो परिणाम बरो जावं वायट, म्हज्यांत झरझरीत उलथापालथ केली ताणें. मनशाची जीण म्हणटात ती ही अशी : आपल्याची वळख जावप. बऱ्या कडेन नदर थारप.आपणें वायटा कडल्यान बऱ्या कडेन वचूंक जायच अशी ओड लागप - there is no compromise between bad and good अश्या मत्तार पडप.

एका साद्या मनशा कडल्यान शिकलों हांव हें. तो म्हजेर उपकार करूंक गेलोना. ताणें म्हाका मार्ग दाखोवंक ना. ताणें म्हजेर कसलीच सक्ती केलिना. तरी पणून दिलें. दिलें तें म्हाका खूब जालें. म्हाका पुरून उरपा इतलें दिलें.

एकाद्या वेळार फाल्यां जें घडूं नये तें घडूं येत, सांगूं नजो. नशिबाचो डाव कसो पडत, कोण सांगीत? पणून ताचो अर्थ असो न्हय की मनशाची वागणूक नशिबाचे करणेचेर आधारून उरची. म्हणचे, मनशान फायद्याचेर आपली वागणूक आधारची. म्हजी तरी ताचे खातीर मना पसून तयारी ना. आपूण खंय पावलों हाचो विचार करचे पयलीं, जावं करचे परस, कशे तरेन पावलों हाचो विचार जावंक जाय.

कशेंय जावं, ह्या पर्वांत ह्या मनशाक म्हत्व आसा. एकाद्या वेळार, ताकाच लागून हाका आरंभ जालो अशें म्हळ्यार फट न्हय. निस्वार्थी मनशाचो प्रभाव केदो आसता तें कळ्ळां म्हूण हें बरयतां.

महात्मा गांधीचो पर्यंत म्हजेर व्हडलोसो परिणाम जालोना. एकादो तो दोन मिनटांच म्हजे म्हऱ्यांत उरिल्ल्यान तशें घडलें जावये. पूण घडलें खरें.

आज हें बरयतां इतलेच खातीर की हे फुडें जिणेंत कसलीच किटकीट करप ना. मेळटा तें धादोशी अंत:करणान मान्य करप. कोणाकूच जाणून दुखोवपाची इत्सा पसून धरप ना. शक्य तितली मेकळीक. सरळ वागणूक. सारको शान्ताराम!

हेगड्या सारको थंड रावपाचो मना पसून यत्न करप. कोणाचेंच लफडें नाका. सुवार्थ नाका.

भितर भायर बदल जावंकूच जाय.दुसऱ्याचेर दोश घालून मेकळो जावपांत अर्थ ना.

कॅमेरा हातांत आयलो खंय. उपकार केले. आतां शिकून घेवप. आज शिल्पकलेचीं tools करपाक दिल्यांत. वीस रुपया दिवन आयलां.

**मुंबय, आयतार, ११.२.१९५१. रात.**

बऱ्याक आरंभ करपाक वेळ पळोवपाची गरज नासता खंय. काल शेनवारच्यान एक नवो ॲक्सपरिमॅंट सुरू केला. कोणाकूच दुखोवप ना. 'अति सर्वत्र वर्जयेत' म्हणटात तसलेंच. करता ते खबरींत खरेपण जाय. उलोवप, ते फाटल्यान बरोवप, खूब जालें. करप मात ना.

Enlightenment is the aim of education. म्हजे कडल्यान खूब चुको जातात. त्यो सुधारपाचो नेटान यत्न करप. एक दीस बसून भरभरलों म्हणून जायना.

एएमाक बसपाचें ठाम जालां खरें. फी भरली. सोड काडली. पणून म्हाका आज मना पसून दिसता, पयलो नंबर पसून मेळ्ळो तरी तें फाल्स म्हणून. म्हजी तयारी साप्प ना. मनस्थिती ना, प्रकृती ना सारकी. वेळ ना.

...परिस्थिती खरीच. तातूंत दुभाव ना. परथून नेटान प्रयत्न.

ताका फावो तशें दिवं नाका? सदांच बरें घेवन ते बदला कसलेंय दितलों? प्रकृती ना. रूप ना. गूण ना. पयसो ना. सगळोच नानाकार?

आसा तें तरी सारकें पाणयार घालपाक नाका?

रीण फारीक करप. शिक्षण मना पसून. प्रकृती सारकी. Honest behaviour!

**मंगळार, २९ फेब्रेर १९५१.**

वर्ध्याच्यान वामन देसाय आयलो. ते पयलीं राया खांडेपारकार आशिल्लो.

म्हाका आतां कोणाच संबंदान कांयच वायटपण ना. फकत एक गजाल हांवें निश्चीत केल्या - बरे तरेन शिकप...

वामनाक सांगलां, काल आज आनी फाल्यां. ते मागीर २६ तारकेक. फाल्यांचो दीस ऑफीस ना. फाल्यां साडेपांच पसून म्हज्या कामाक आरंभ...

आतां पेंटिंगाक सारकी सुरवात. कोणाचीच कटकट नाका बेश्टी. कसलीच पर्वा नाका. प्रकृतीय झक मारली... शालूक मात पत्र घालप...



# कविता

## पावस शेणल्यो

- गौराज तळावलीकार

पावस शेणल्यो पूण धेंडल्या,
मनां वोलीं उरचीं रे.
बांयचो दोर तेंकलो तळाक,
बुडली तिची गोली रे.

कितलें सोबीत माथें तिचें,
पेरीर बसून देखलें.
उदका गोलयेंत दिपकलों हांव,
फाटीर फातर शेंवटले
गांव हेडल्यो पूण धेंडल्या
पावलां वोलीं उरचीं रे...
बांयचो दोर...

उगत्या कणसांचीं सुटलीं न्हेसणां,
वाऱ्याचो सुटलो तोल रे.
तणां राशीर माडयत पावलां,
वाऱ्यार हुबलें पोल रे.
संवकळो पूण धेंडल्या
घामाक गोडाय येवची रे..
बांयचो दोर...

संपर्क: ०८४१२८७०८६२





## आम्मणाक्का

- सुधीर कोडकणी

''सगडांक सम मेळ्ळें न वॅ?''
आम्मणाक्का विचारताली,
''माक्का हॉड!'' - ''ताक्का चड!''
आम्मी तिक्का सतायतालीं! ......(१)

गीणा-सांदण कोरचें म्हळ्यार
आम्मणाक्काक भारी प्रीति,
अपूरबायेन सगडांक वांटचे
हीचि तिगेली पैलधोर्नु रीति!......(२)

कोरचें कश्शी म्हणु सांगतना,
सरस्वतीचि तिगेल्या आंगांत येवंची,
पुराय सोडोवनु - सगळें सांगून,
पदार्थ कोरचि, माहिती दीवंचि! ....(३)

होळ्या घरांत आम्मण्णाक्काक,
फुरसत चड खंय मेळताली?
वेळांत वेळ काण्णु आमकां
देव्वाल्यो काण्यो ती सांगताली! ....(४)

सुम्मारफंता कृष्णलीलाच
ती आमकां सांगताली -
धंय-दुध-लोणी वर्णनांतु,
समाचि आमकां न्हाणयताली! ....(५)

आम्मणागेल्या काण्यांतुई,
प्रीति-परमळ आसताले,
देव्वाल्या बागेंत आशिल्ल वारी,
तावळ्ळी आमकां दिसतालें! ....(६)

होळ्या = व्हडल्या
सुमारफंता = खूब फावटीं

संपर्क: ०२२-२६६०५२८३



# आनंदयात्राः

## जिवनानुभुतीचो उत्कट आनी कलात्मक आविश्कार

- हनुमंत चोपडेकार

म्हजी माती म्हजें मळब हो उत्कट संवेदनांनी उपाट भरिल्लो कवितां झेलो, *मोतयांची माळ* आनी *जगगां* हीं बालमनाक होरावपी बालसाहित्याचीं पुस्तकां आनी *आनंदयात्रा* हें वाचकाक संवसारीक प्रवासांतलो आनंद भेटोवपी प्रवासवर्णनात्मक पुस्तक अशी साहित्य संपदा सातत्यान रचपी कोंकणी साहित्यीक म्हणल्यार हर्षा सद्‌गुरू शेटये. वयल्या उजवाडा आयिल्ल्या पुस्तकां भायरूय तांचो साहित्यीक प्रवास निरंतर चालू आसा.

ह्या समयाचेर म्हजे मुखार तांचें *आनंदयात्रा* हें पुस्तक प्रवासवर्णनाच्या आनंदाचें भरिल्लें ताट घेवन उबें आसा. ह्या ताटांत वट्ट सत्तावीस देशी-विदेशी जिनस वाडिल्ले आसात. तांची रीतसर वर्गवारी केल्यार सर्वसामान्य वाचकाक तांचो आस्वाद घेवपाक सोंपें जातलें.

सिंगापूराच्या सांस्कृतीक खतखत्याचें कलात्मक दर्शन घडोवपी प्रवासवर्णनां :

''सिंहपूरम - सिंगापूर'', ''लिटल इंडिया ते चायना टावन'', ''मनभुलयणो सेंतोसा जुंवो'', ''सिंगापूर - होम अवे फ्रोम होम''. उदेत्या सुर्याचो देश - जपान आनी ताची भोंवडी : ''योकोसो जपान'', ''देखणें महानगर - तोकयो'', ''मावंट फुजीच्या परिसरांत'', ''हिरोशिमा'', ''क्योतो - जपानांतलें नीज जपान'', ''गुडिया जापान की'' आनी ''सायोनारा जपान''. उदरगतीचें सैमीक प्रतीक आशिल्ल्या केरळाचें प्रवासवर्णन :''उदरगतीचें प्रतीक - केरळ'' आनी ''तिरुअनंतपुरम ते कन्याकुमारी''. तमीळनाडूच्या चेन्नय आनी उटीची उत्कट भोंवडी : ''चेन्नय - कांचीपूरम - महाबलीपूरम'' आनी ''हिल स्टेशनांची राणी - उटी''. मुंबय, महाबळेश्वर, माथेरान आनी मायेस्त पुण्याची महाभोंवडी: ''मुंबय - एक यादींचें गांठवल'', ''मायेस्त पुणें'', ''माथेरान - जांबळांचें रान'' आनी ''महाबळेश्वर''. कारवार ते बंगळूर मेरेनचे दर्यादिगेची कर्नाटकी भोंवडी : ''कर्नाटकाचे दर्यादेगेर'', ''कूर्ग - कर्नाटकी कशिद्याची पाचवी देग'', ''गोलघुमटाच्या बिजापुरांत'' आनी ''सरळ वाटेन शिरसी... आड वाटेन याणा''. काळजाक थरथरो हाडपी थायलंडची धांवती भोंवडी - ''धांवती भेट थायलंडची''. वळखीचे दिल्लीची दिलदार भोंवडी : ''दिल्ली - वळखीचें शार''. भारतीय संस्कृतीचें दायज दाखोवपी हरिद्‌वाराची भोंवडी : ''लग्नाची गांठ - गोंय ते हरिद्‌वार''. हैदराबादची भाग्यवंत भोंवडी : ''भाग्यनगर हैदराबाद''.

ह्या प्रवासवर्णनात्मक निबंदांझेल्याक ज्ञानपीठकार रवीन्द्र केळेकारांची प्रस्तावना लाबल्या. 'आशिर्वाद' ह्या नांवान बरयल्ली रवीन्द्रबाबांची ही निमाणी अक्षरवळख. हर्षाच्या प्रवासवर्णनांचो आस्वाद, आनंद आनी आपरोस घेतनाच रवीन्द्रबाबान लेखिकेक अपुर्बायेचो आशिर्वादूय दिला. ''प्रवास आमकां विविधतायेची कदर करूंक शिकयता आनी विविधतायेंत एकचाराचें तत्वूय सोदून काडपाची नदर दिता'' अशें सांगपी रवीन्द्रबाब ''विवेकानंद, महात्मा गांधी हांच्या बरपांत जें विशाळ भारतीयत्व आमकां दिश्टी पडटा तें फकत वाचनांतल्यान न्हय तर देश भोंवन पळयिल्ल्यान तांचे भितर येवंक पावलां.'' अश्या शब्दांनी प्रवासवर्णनाचें म्हत्व स्पश्ट करतात.

तशें बारीकसाणेन पळेल्यार वैदीक संस्कृतायेंत आमकां प्रवासवर्णनाचीं बिंयां दिश्टी पडटात. एतरेय ब्राह्मणांच्या "चरैवती" मंत्रांनी; रामायण, महाभारत आनी जायत्या पुर्विल्ल्या जातक कथांनी भोंवडेवर्णनाचीं मुळां दिश्टी पडटात. पाश्चात्य साहित्याच्या प्रभावान प्रवासवर्णना सारको साहित्यप्रकार उदरगतीक पावला अशें आमी म्हणलें तरी आमच्या संस्कृत साहित्यांत ह्या प्रकाराचो मूळमंत्र आसपावता. कोंकणी भाशेक साहित्य अकादेमीची मान्यताय मेळ्ळे उपरांत १९७५-७६ वर्साचो साहित्य अकादेमीचो पयलो पुरस्कार रवीन्द्र केळेकारांच्या *हिमालयांत* ह्या प्रवासवर्णनाकूच मेळ्ळो हें सांगपा सारकें. उपरांत दिलीप बोरकारांच्या *गोमांचल ते हिमांचल* ह्या प्रवासवर्णनाक तो फावो जालो. आमच्या काळांत जायते कोंकणी लेखक आनी लेखिका प्रवासवर्णन हो साहित्यप्रकार आपले खेरीत शैलींत बरयत आसात. तातूंत हर्षा शेटये, माया खरंगटे आनी शीला कोळंबकार सेगीतपणान हो प्रकार हाताळटात. हर्षा शेटयेच्या प्रवासवर्णनांचो *आनंदयात्रा* हो झेलो उजवाडा आयला जाल्यार हेर दोगांचो येवपाचो आसा.

**सिंगापूरच्या सांस्कृतीक खतखत्याचें कलात्मक दर्शनः**

*आनंदयात्रा* पुस्तकांत सिंगापूर (सिंहपूरम) जुंव्या वेले भोंवडेचेर वट्ट चार प्रवासवर्णनां लेखिकेन बरयल्यांत.चिनी, मलय, इंग्लीश, भारतीय,पोर्तुगेज आनी इंडोनेशियन संस्कृतायेचें एक खतखतें म्हणजे सिंगापूर अशें वक्तव्य लेखिका ह्या लेखांनी करता. 'सिंहपूरम - सिंगापूर' ह्या प्रवासवर्णनांत ती सिंगापूराची इतिहासीक फाटभूंय मांडटा. तशेंच, वैश्वीक पांवड्या वेलो भौतीक विकासाचो आनी सांस्कृतीक एकचाराचो एक आदर्श देश म्हूण सिंगापूर कसो उबो आसा हाची म्हायतीय दिता.

"लिटल इंडिया ते चायना टावन" ह्या लेखांत चिनी आनी भारतीय संस्कृतायेचो सिंगापूरांत कसो विलक्षण संगम घडला तें लेखिका स्पश्ट करता. भारतीय आनी चिनी लोकांनी आपले लोकजिणेचो, खाणां जेवणांचो, वस्त्रसंस्कृतीचो आनी भाशीक अस्मितायेचो जागतिकीकरणाच्या घसघशांतूय कसो कलात्मक सांबार केला हाच्यो सुरबूस देखी ह्या लेखांत मेळटात.

"मनभुलयणो सेंतोसा जुंवो" आनी "सिंगापूर - होम अवे फ्रेम होम" हे लेखूय सिंगापूराचे सांस्कृतीक गिरेस्तकायेचें दर्शन घडयतात. थंयसल्ले राज्यव्यवस्थेन आनी प्रशासनान केल्ले उदरगतींत परंपरा आनी आधुनीकता हांचो उत्कृश्ट मेळ सादपाचो यत्न जाला हें लेखिका परती परती सांगूंक सोदता तें हांगा प्रकर्शान जाणवता. थंयसल्लीं घरां, मोनोरेल, कॉजवे ब्रीज, फेरी टर्मिनल, केबल कार, म्युझियमां, किल्ले, इमारती, बागो, थंयसल्लें कारंजें हांच्या प्रदर्शनांत विज्ञानाचो आनी तंत्राचो बेस बरो वापर केला, ताचोय दिश्टावो ह्या लेखांनी घडटा.

**उदेत्या सुर्याचो देश जपान आनी ताची भोंवडी**

संवसाराच्या नकाशा वेलो एक अजापाचो देश म्हणजे जपान. शुन्यांतल्यान विश्व निर्माण करपाची कळाशी आनी अंतरराष्ट्रीय कूटनितींतली निपूणताय ह्या दोनूय मळांचेर जपान आयज मुखार आसा. दुसऱ्या संवसारीक म्हाझुजांत मातयेभरवण जाल्लो जपान एकविसाव्या शेंकड्यांतलो एक विकसीत देश आसा.

*आनंदयात्रा* ह्या झेल्यांत जपानाचेर वट्ट सात लेख आसात. माणकुलो देश, माणकुलीं मनशां पूण हावेस मात मळबा येदो. देखुनूच तांचे विशीं बरोवपाक लेखिकेक सात लेखांचो आदार घेवचो पडला आसुये. फिनिक्स सवण्या भशेन गोबरांतल्यान परत एकदां मळबझेंप घेवपी आनी उपाट स्वाभिमानांतल्यान नवें साम्राज्य उबें करपी जपानाची इतिहासीक, सांस्कृतीक, विज्ञानीक आनी सामाजीक उदरगत हर्षान आपल्या साबार लेखांनी शब्दबद्ध केल्या. "योकोसो जपान" लेखांत दिल्ली ते टोक्योचें नारितो विमानतळ मेरेनचो विमानांतलो प्रवास मनांतल्या साबार स्पंदनांच्या सांगातान शब्दबद्ध जाला, जाल्यार "देखणें महानगर टोक्यो" ह्या लेखांत तशेंच "मावंट फुजीच्या परिसरांत" ह्या लेखांत लेखिकेन सैमीक अरिश्टांचेर मात करूनूय जपानी मनशान सादिल्ले उदरगतीची तोखणाय केल्या. उत्कृश्ट नियोजन, शिस्तबद्ध व्यवस्था, सुटसुटीत प्रशासन, विज्ञान-तंत्रज्ञानाचो कलात्मक उपेग आनी खास करून सर्वसामान्य जपानी मनशाचो तेंको ह्या साबार गजालींक लागून जपानान थोड्याच वेळांत सुपर पावर जावपाचें आपलें सपन पुराय केलां. ताचो 'आँखोंदेखा हाल' प्रवासवर्णनकार हर्षा शेटये वाचकांक सांगतात.

मावंट फुजी हो जपानी लोकांचो भावार्थ. १७०७ वर्सा फुटिल्लो हो ज्वालामुखी आतां थंड जाला. भोंवतणी रुखावळ वाडल्या. परत तो फुटलो जाल्यार पुराय तोक्यो शार काबार जावं येता. पूण अजाप म्हणजे, जपानी लोक ताका राष्ट्रीय स्मारक मानतात. लेखिका ह्या पर्वताचे भोंवडेचें वर्णन करतना आयाकावा माकातो ह्या त्र्यात्तर वर्सां पिरायेच्या फोटोग्राफराची गजाल सांगता.ताका दोळ्यांनी दिसना पूण फाटलीं सतरा वर्सां तो फुजी पर्वताचे सोबीत फोटू काडटा आनी लोक ते विकते घेवपाक गर्दी करतात. लेखिका म्हणटा, "तो काळजांतल्यान फुजीसानाक पळयता."

ह्या झेल्यांतल्या "हिरोशिमा" ह्या लेखांतल्यान साहित्यीक हर्षा शेटयेची खरी संवेदनशीलताय नदरेंत भरता. ६ ऑगस्ट १९४५ दिसा अमेरिकेन हिरोशिमा शाराचेर 'लिटलबॉय' हो अणूबॉम घालो. एकाच स्फोटान अख्खें शार मातयेभरवण जालें. मनीसपणाक काळेंपण फासपी त्या कर्तुबाचेर भाश्य करतना लेखिका बरयता -

"वयर फुटिल्लो बॉम्ब हिरोशिमाचेर कोसळ्ळो. उज्याचे लोळ वयर सरले. हांसपी नाचपी भुरगीं थंयचे थंयच ना जालीं. कोणाच्या अध्यात मध्यात नाशिल्लो सामान्य मनीस उज्याचे भकीक पडलो. काळवेळ थंयच गोठेलो... दीसभर उज्याचें केण पेटत आशिल्लें. तातूंत १ लाख ४० हजारांवयर लोकांचो जळून गोबोर जालो..." (१८९).

हिरोशिमा शारांतल्या होनाकावा आनी मोटासायू न्हंयांचे मदीं चिल्ड्रन्स पीस मॉन्युमँटांत सादाको सासाकी हे बळी पडिल्ले सान चलयेचो पुतळो आसा. थंय जपानी लोकांच्या भावनांचो उमाळो असो व्यक्त जाला -"This is our cry. This is our prayer for building peace in the world. A thousand paper crarnes, peace on the earth and in heaven" (१८८)

''क्योतो - जपानांतलें नीज जपान'', ''गुडिया जापान की''आनी ''सायोनारा जपान'' हे लेखूय जपानी संस्कृतायेचो आनी सभ्यतायेचो दिश्टावो घडयतात. ''गुडिया जपान की'' हातूंत 'गेयशा' हे जपानी अस्तुरेची वेदना लेखिका मांडटा. 'गेयशा' ही भारतांतले 'देवदासी' प्रथेंतले अस्तुरेचेंच एक दुखेस्त रूप म्हटल्यार जाता. पुरूशप्रधान संस्कृतीक देश विदेश, स्थळ काळ कांय लागना. ताचीच देख हांगा मेळटा.

जपानी भोंवडेंतल्यान जपानी मनशाचें सोंशीकपण, मनीसपण, सहिष्णुताय, शांतीप्रियता, सौंदर्यप्रियता, नम्रता आदी गजालींचो शब्दपट लेखिका दाखयता.

**उदरगतीचें सैमीक प्रतीक केरळाचीं प्रवासवर्णनां -**

''तिरुअनंतपुरम ते कन्याकुमारी'' आनी ''उदरगतीचें प्रतीक केरळ'' हे दोन लेख खासा केरळचे भोंवडेक धरून ह्या पुस्तकांत आसपावल्यात. केरळांत उदरगतीच्या नांवार पिशेपण चलना. सैमाची काळजी आनी हुस्को केरळी मनशाक चड. सैमाक सांबाळून तो उदरगतीचीं सपनां पळयता. देखून 'God's own Land' ह्या नांवान केरळाक संवसार वळखता.

लेखिकेन ह्याच तत्वाक धरून केरळ राज्यांतले भोंवडेचें वर्णन केलां. तें करीत ती तमीळनाडूंत पावता. १८८२ वर्सा २५, २६ आनी २७ डिसेंबराक दर्यांत दोनशीं मिटर पेंवन वचून थंयच्या तळपाचेर बसून ध्यान करपी भारतमातेच्या म्हान पुताक ती विसरना. जगाक भारतीय संस्कृतायेची सुसंस्कृत वळख करून दिवपी स्वामी विवेकानंदांच्या स्मारकाची भोंवडी करून ही लेखिका तांचें आध्यात्मीक तशेंच वैचारीक दर्शन आमकां ह्या लेखांतल्यान घडयता.

**मुंबय, महाबळेश्वर, माथेरान, पुण्याची महाभोंवडी**

महाराष्ट्राच्या कांय वेंचीक थळांचें वर्णन ह्या लेखांनी आयलां. हें वर्णन फकत सैमीक आनी पर्यावरणीक वर्णन नासून महाराष्ट्राच्या इतिहासीक आनी सांस्कृतीक गिरेस्तकायेक शब्दबद्ध करपी हो यत्न. मुंबयक लेखिका, ''यादींचें गांठवल'' म्हणटा, जाल्यार पुण्याक ''मायेस्त पुणें''. मुंबयच्या लोकल ट्रेनींक ती ''शाराचें काळीज'' म्हणटा. माथेरानाक ''जांबळांचें रान'' म्हूण तोखेता.

आधुनीक महाराष्ट्रांत ती पोरण्या वैभवशाली महाराष्ट्राक सोदता. पुण्या विशीं ती बरयता -

''पुण्यांत भोंवतना जाणवलें, पुणे आपलो मराठी तोंडावळो शेणयत चल्लां. एकेकाळची महाराष्ट्राची सांस्कृतीक राजधानी म्हणून नामना पाविल्लें पुणे कमर्शियल जायत चल्लां. तरीय पुण्यांत एक म्होंवाळ घरगुती गंध आशिल्लें एक अजब रसायन आसा... आयज म्हजी पुण्याची आजी ना. पूण हांव जेन्ना जेन्ना पुण्यांत वतां तेन्ना तिची याद येता आनी हें रूप बदलिल्लें पुणे म्हज्या आंगार मायेची शाल ओडटा'' (६२).

**कारवार ते मंगळूर मेरेनचे दर्यादेगेची कर्नाटकी भोंवडी -**

कारवार ते मंगळूर मेरेनचे दर्यादेगेक लेखिका सैमाचें सोबीत कपयाळें म्हणटा. आपल्या वट्ट चार लेखांनी ह्या सैमीक कपयाळ्याची गोजडी ती शिंवता. कारवार, अंकोला,गोकर्ण, मुर्डेश्वर, उडपी, भटकळ, इडगुंजी, होन्नावर, कुंदापूर, जोग धबधबो, कुमठा आनी मंगळूरच्या सैमान ती मंत्रमुग्ध जाता. थळावीं मनशां आनी लोकसंस्कृती तिका भावता. आपले साहित्यीक प्रतिभेचो आविश्कार घडयत ही लेखिका तांचो प्रवासवर्णनांत आसपाव करता. तातूंतलें ''कूर्ग - कर्नाटकी कशिद्याची पाचवी देग'' आनी ''सरळ वाटेन शिरसी... आड वाटेन याणा'' हे लेख भोवूच लक्षणीय जाल्यात. तातूंतली 'गंगाअम्मा' विसरूंक जायना. ती वाचकाच्या काळजांत सहज सुवात तयार करता. तो प्रसंग भोव भावूक जाला. लेखिका निमाणें बरयता तेंवूय काळजांत रोमता -

''हांव याणाचें सैम विसरन, भैरव शिखर, मोहिनी शिखर विसरन, गंगाअम्मा आनी तिच्या हाताचो सालदाटो स्पर्श केन्नाच विसरचें ना'' (१४९).

हें जावपाक गंगाअम्माचो स्निग्ध, मुलायम हात आनी ताचो स्पर्श लेखिकेच्या काळजांत झिरपुचो पडटा. तो झिरपला हाची ही गवाय.

**हेर प्रवासवर्णनां -**

''धांवती भेट थायलंडची'',''दिल्ली - वळखीचें शार'', ''लग्नाची गांठ - गोंय ते हरिद्वार'' आनी ''भाग्यनगर - हैदराबाद'' अशीं हेर चार प्रवासवर्णनां *आनंदयात्रा* पुस्तकांत आयल्यांत. ते भायर ''चेन्नय-कांचीपूरम-महाबलीपूरम'' आनी ''हिलस्टेशनची राणी - उटी'' हीं तमीळनाडूचे भोंवडेचीं वर्णनां तातूंत आयल्यांत. त्या साबार लेखांनी लेखिकेची निरिक्षणशक्त आनी कल्पकता नदरेंत भरता. वर्णन करतना थळाव्या इतिहासाक आनी सांस्कृतीक दस्तावेजां कडेन ती आडनदर करिना. आमचे समाजव्यवस्थे कडेन तुळा करून एक वेगळीच मोलावणी ती आपल्या बरपांतल्यान करता. थायलंडचीं बिभत्सपणां आसूं, हैदराबादचो आधुनीक साज आसूं, दिल्लीचे वळखींतलें अनवळखीपण आसूं नाजाल्यार हरिद्वाराचे गांठींतलें 'कट्टरपण' आसूं, लेखिका नाण्याच्यो दोनूय वटो दाखयता. फकत कुड्डचा भावार्थान ती तुस्त तोखणाय करिना,तशीच दुस्वासूय काळजांत बाळगिना. ती आपणें प्रवासांत भोगिल्ल्या आनंदाची आनी हुस्क्या चिंतेची झळ अतिशय प्रामाणीकपणान वाचप्या मेरेन पावयता.

**थोडे भितर कांय निरिक्षणां -**

- *आनंदयात्रा* पुस्तकांत स्थळदर्शन, सैमदर्शन, इतिहासदर्शन, समाजदर्शन आनी संस्कृतीदर्शन घडटा. संस्कृतीदर्शनांत वस्त्रसंस्कृती, अन्नसंस्कृती आनी भाशासंस्कृतीचो दिश्टावो घडटा.
- ह्या पुस्तकांतल्या लेखांनी पारंपारीक लोकजीण आनी उदरगतीचो आधुनीक झगझग हातूंत घुसपल्ली समाजव्यवस्था दिसता.
- ह्या बरपांनी लेखिकेची निरिक्षणक्षमता, कल्पकता, सौंदर्यशीलता, वैचारीक प्रगल्भता आनी आत्मीयता दिसता.
- लेखिका हर्षा शेटये संवसाराचे आनंदयात्रेंत शेणून वचना तर तो यात्रेंतलो आनंद ती कोंकणी वाचकां खातीर घेवन येता.

***आनंदयात्रा*** - हर्षा सद्गुरू शेटये
दामबाब प्रकाशन, मडगांव, २०१२.
पानां: २०८, मोल : २३० रु.

संपर्क: ८८०५१५२५३९



# GOA




# Witnessing a 'Parivartan'

*Government for a better Goa*

**People Friendly and pathbreaking decisions of the**

Hon'ble Chief Minister

## Shri Manohar Parrikar

**Rejuvenating and restoring the glory of the State.**





- Rs.11 per lite cut in petrol prices by eliminating VAT from April 1st, 2012.
- Unemployment benefit raised from ₹ 3,000/- to ₹ 4,500/-
- Social Security benefit for senior citizens raised from ₹ 1,000/- to ₹ 2,000/- per month
- Under ladli Laxmi Yojana Scheme, a girl child will get ₹ 1 Lakh in the bank account on completion of 18 years.
- Total abolition of house tax on all rural houses of personal use, while in case of Municipal areas this will be applicable only to the dwellings of those who are below poverty line (BPL).
- Cyber Age scheme revised to provide laptop for students (XI std) and tablets for School children.
- 300 crores plan fund for overall welfare and development of ST population.
- House wife allowance of ₹ 1,000/- per month to fight price rise.

**This is just a beginning of Parivartan. Goa marches ahead as a Model State . with good and responsible governance under the Government of Goa.**







Issued by:
Department of Information and Publicity
Government of Goa



Working towards a Secular & Prosperous Goa

# अरण्यकांड

महाबळेश्वर सैल

पानां: १०२ मोल: ९० रुपया

"सामान्यांच्या व्यथांक वाचा फोडपी असामान्य साहित्यकृती ही... मनशाचो नीज धर्म म्हळ्यार मनीसधर्म हें मरणाची सुलूस लागतल्या कामदारांच्या पोंव्यांतल्या जण एकल्याक जाणवता. हें दाखयतना सैलांचे लिखणेक दिव्यत्व प्राप्त जाल्लें दिसून येता. एका स्रेश्ठ पांवड्याच्या तत्वज्ञानाचो साक्षात्कार सामान्य मनशाक करून दिवपांत सैलान तेमक गांठिल्लें आसा."

– सुमंत केळेकार

**विद्यार्थ्यांखातीर जाग प्रकाशनाची खाशेली उजवाडावणी**

वांगडा चार जोडण्यो :

१. अरण्यकांड : समाजीक आनी रानचित्रणाचे नदरेंतल्यान : प्रकाश पर्येकार
२. महाबळेश्वर सैलांची सर्वोत्कृश्ट साहित्यकृती : हनुमंत चोपडेकार
३. कलात्मकतेची तेंगशी गांठिल्ली नवलिका : राजश्री म. सैल
४. एक अदीम संघर्श मनीस आनी सैमा मदलो : महाबळेश्वर सैल

**जाग प्रकाशन**

२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्

रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड,

मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

(मोबायल: ९४२११५७००७)

Published & Printed by Dr. J. B. Sardesai, owner of JAAG Monthly, 201 B, Saldel Apts., Rua de Saudades, Pajifond, Margao, Goa, and Printed at Rutu Offset Printers, Volvoi, Ponda -Goa. Editor : Madhavi Sardesai